

डॉ. उमानाथ वामन राताबोली

- १५ जानेवारी १९६४ वर्सा मडगावां जल्म.
- आक्टोबर १९८६ वर्सा वैजकी पदवी.
- सप्टेंबर १९८९ वर्सा इंडियन इंस्टिट्यूट ऑफ नॅच्युरोपथी, कलकत्ताचे नॅच्युरोपथी (निसर्गोपचार) आनी हर्बल मेडीसीनचे डिप्लोमा.
- जानेवारी १९९१ वर्सा वखदांशास्त्र (फार्माकोलॉजी) विशयान एम.डी. पदवी.
- कोंकणी, मराठी आनी इंग्लेज भाशेन बरप. कोंकणीतल्यान दोनशेवयर कविता आनी कवनां बरयल्यां.
- सुनापरान्तान 'पारजत' सदरान नेमान बरप. 'स्टेथोस्कोप' ही वैजकी विशयावेली मालिका छापून आयल्या.
- 'भुरगीं आनी राजहंस' ह्या भुरग्यांच्या म्हयन्याळ्यान 'भुरगीं आनी भलायकी' विशयाचेर बरप.
- कोंकणी विश्वकोश खंड १ न 'कात आनी कातीचीं दुयेंसां' हो लेख बरयला.
- मराठी काणयो, नाटकांचें बरप. १९८३ वर्सा पूराय गोंय हरियाळी मराठी कथा स्पर्धेन 'प्रेमाचं नातं' काणयेक तिसरें बक्षिस.
- कोंकणीतल्यान नाटकुलीं बरोवन माचयेर प्रयोग केल्या.
- १९८४ वर्सा महाभारतांतल्या 'कर्ण' ह्या गाजलेल्या पात्राचे जिणेचेर आदारीत 'गीत राधेय' हें २५ पदांचे काव्य रचलां.
- ऑल इंडिया रेडिओचेर नेमान कार्यावळी सादर.
- 'पारजत-परमळ' हें ललित लेखांच्या रूपान उजवाडाक आयिल्लें पयलेंच पुस्तक.

# पारिजात परिमळ

ललित निबंध

डॉ. उमानाथ वामन राताबोली

जैन प्रकाशन



# PARJAT PARMAL

A Collection of short essays by
**Dr. Umanath Vaman Rataboli**, Britona-Goa.

प्रकाशन क्र ४



बरोवप्याचो पत्तो:
**डॉ. उमानाथ वामन राताबोली**
बिठ्ठोण-बार्देश, पोस्ट बेती, गोंय, ४०३ १०१



पयली उजवाडावणी :
**मार्च १९९४**

भायलें कव्हर:
**विकास पब्लिसीटी, गोंय.**

उजवाडावपी :
**श्री बिकू बोमी नायक**
जैन प्रकाशन
बेलकी काशीट, गोंय ४०३ १०



छापपी :
**श्रीकांत आमोणकार**
सम्राट प्रिंटर्स, भाणस्तारी, गोंय.

मोल : ३५ रूपया.

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या अर्थिक पालवान उजवाडायलां.




*गुरूकाका,*

*आज तुमीं आसूंक जाय आसले!*

*मोती जावन भांगराची संगत धरचेपरस दंवाथेंब जावन तानेल्याची तान भागवपान खरें मोटेंपण आसा ही शिकवण दिवन म्हाका ल्हानपणासावन पुस्तकांची आवड लावपी म्हजे परमप्रिय काका सर्गेस्त गुरूदास प. राताबोली हांकां म्हगेलो हो परमळीत पारजतांचो पयलो-वयलो साहित्यझेलो अर्पण.*



*डॉ. उमानाथ वामन राताबोली*

# ललीत निबंदाचें पोरसूं फुलता

एका काळार कोंकणी साहित्यांत ललीत निबंद हो प्रकार खूबच उणो दिसतालो. कथा, कविता हांचें पीक उदंड येतालें, पूण निबंद-वैचारिक वा ललीत - उणे दिसताले. ललीत निबंद बरोवपाक लागतात गुण आशिल्ले साहित्यकार कोंकणीच्या मळार नाशिल्ले म्हूण तशें घडटालें अशें म्हणूंक जावचें ना. म्हाका दिसता, तो प्रकार केळोवपाचें बरें काम दिसाळीं वा नेमाळीं करतात. तीं कोंकणीच्या मळार फावो तशीं आनी फावो तितलीं नाशिल्ल्यान त्या काळांत ललीत निबंदाक फुलूंक फावो ती संद मेळ्ळी ना.

आकाशवाणीच्या मुंबय केंद्राचेर कोंकणी विभाग सुरू जातकूच ललीत निबंदाक एक संद मेळ्ळी. सट् करून, निबंदाचे वाडीक आकाशवाणीचें माध्यम कशें उपकारलें असो प्रस्न मनांत येवं येता. कोंकणी कार्यावळींनी जीं ललीत रूपाचीं वा विनोदाची देग आशिल्लीं उलोवपां वितरायताले तांची आंखणी ललीत निबंदांचीच आसताली. केन्ना केन्नाय ती ललीत निबंदाची फास्की मोडून भायरूय पावताली वा विविधतायेचें अदीक मोटें मळ आस्पावन घेताली, पूण साहित्यप्रकाराचो सभाव ललीत निबंदाचोच आसतालो. पूण माध्यम आकाशवाणी जाल्ल्यान आनी कोंकणी कार्यावळीक दिल्ल्या एका वरा परस उण्या काळाचे मर्यादेक लागून ललीत निबंदाची केळोवणी फावो तशी जावंक पावली ना.

गोंयचे सुटके उप्रांतचीं देड-दोन दसकांय ललीत निबंदाक बरीं गेलीं नात. घडये त्या काळांत कोंकणी अस्मितायेची राखण करचे पासत शक्ती खर्च करची पडिल्ल्यान साहित्याची सेवा उणी जाली आनी त्या वातावरणांत ललीत निबंदाकडेन आदले भाशेन इल्ली आडनदर जाली.

मात फाटल्या धा-बारा वर्सांच्या काळांत निबंदांचें पीक येवंक लागलां आनी कोंकणी साहित्याचो तो मळो फुलूंक लागला. ललीत निबंदांची कांय बरीं पुस्तकां उजवाडा आयल्यांत. तांतूंत विशयाची आनी अणभवाची विविधताय दिसता, शैलीचें खाशेलेपणूय आसा. साहित्य समृध्द जाता तें अशें. वेगवेगळ्या क्षेत्रांनी वावुरपी, वेगवेगळ्या तरांचो अणभव घेतिल्ले साहित्यकार जेन्ना साहित्याची निर्मणी करतात तेन्ना त्या साहित्यांत तरेकतरांचे रंग, तरेकतरांच्यो शैली आनी मनीस-सभावाचीं विंगड विंगड रूपां हांचें दर्शन घडटा. साहित्याची गिरेस्तकाय वाडपाचो हो मार्ग. फाटल्या धा-पंदरा वर्सांच्या काळांत कोंकणी साहित्यांत ही प्रक्रीया अदीक नेटान सुरू जाल्या

आनी तिचीं बरीं फळां आतां ल्हवु-ल्हवू चाखूंक मेळटात.

ललीत निबंद केळोवपाचें स्त्रय अदीकतायेन कोंकणी पत्रकारितेक आनी नेमाळ्यांक दिवंक फावता. कोंकणींतल्या दिसाळ्यांनी आनी सप्तकी वा म्हयन्याळ्या नेमाळ्यांनी ह्या प्रकाराक उत्तेजन दिलां आनी ताका लागून कांय नव्या साहित्यकारांचे गुण उजवाडाक आयल्यात. कांय कथाकार निबंद हो प्रकार केळयतात, पूण जे फकत निबंदाचेच फास्केंतल्यान साहित्यांत भर घालूंक सोदतात तांकां दिसाळीं वा नेमाळीं नाशिल्लीं जाल्यार बरोवपाक कितली उमेद येतली आसली हाचो दुबाव आसा.

कसलेंच कारण नासतना कथा-कवितें परस निबंद फाटीं अशें मानपाची एक संवय कोंकणी साहित्याच्या मळार दिसताली. तिका लागून निबंद बरयल्ले आसले तरी तांचो झेलो पुस्तक-रूपान उजवाडा हाडपाची उमळशीक दिसनासली. कथा व कविता हांचें संबंदान अशें घडनासलें. पूण हालींच्या अणभवावयल्यान, ती संवय मोडून ललीत निबंदाचेंय पोरसूं फुलोवपाचो यत्न कोंकणी साहित्याच्या मळार दिसता. ताका येवकार मेळूंक जाय.

हेर कांय साहित्यकारांवांगडा ललीत निबंदाचो प्रकार डॉ. उमानाथ राताबोली हांणीय केळयला. 'सुनापरान्त' दिसाळ्यांतल्या 'पारजत' ह्या सदरा खातीर बरयल्ले ललीत निबंद एकठांय करून, ते आसडून-फाफडून, तांतल्या वेंचीक अशा निबंदांचो हो झेलो तांणी गुथला. घडये 'पारजत परमळ' ह्या नांवांत तसो अर्थ आस्पावला. हो झेलो म्हळ्यार कोंकणी पत्रकारितेचो साहित्याक भेटवण अशेंय म्हणुं येता.

डॉ. राताबोली हांगेल्या निबंदांनी कांय गुण रोखडेच नदरेंत भरतात. मनीस-सभावाचें निरीक्षण करपाची तांची तरा आनी एखाद्या प्रसंगांतल्यान वा थोड्याच उतरांनी त्या निरिक्षणाचें सार वाचप्यांमुखार मांडपाची तांची कला ललीत निबंदाचे पोसवणेक फावो तशीच आसा. वैज्की वेवसायाच्या मळार ते वावुरतात म्हण्टकूच साहित्याक जाय आशिल्लें 'रॉ मटेरियल' मोट्या प्रमाणांत दिसपट्टें तांचे मुखार येता. त्या अणभवाचो उपेग तांणी आपणाल्या खूबशा निंबदांनी केला. तो अणभव वा तें निरिक्षण एका खाशेल्या मळावयलें आशिल्ल्यान वाचप्याकूय एका वेगळ्या अणभवाचो प्रत्यय येता.

ह्या झेल्यांतल्या ललीत निबंदांची बुन्याद कल्पनेची ना तर ती अणभवाची आसा. देखून निबंदांचो जल्म पत्रकारितेच्या निमित्त्यान जालो तरी ती अणभवाची बुन्याद तांकां अक्षर-साहित्याचे दिशेन व्हरता.

आनीक एक मोटो गुण डॉ. राताबोली हांगेल्या ललीत निबंदांनी दिसता तो संवाद बरोवपाचे तांचे शैलीचो. निवेदना परस ते संवादांचेर भर दितात आनी ताका लागून तांचें निरिक्षण वा निबंदांत मांडिल्लो मुद्दो हो जितो-जिवो आनी तट्‌टटीत दिसता. डॉ. राताबोली हांगेले ते संवाद निसर्गीक आनी सभावीक दिसतात, ते मुजरत रचिल्ले वा कृत्रीम दिसनात. देखून अशें म्हणपाचो मोह जाता की ललीत निबंदा वांगडाच नाटक हो प्रकार तांणी हाताळ्ळो जाल्यार बऱ्या संवादांच्या नाड्यार तांकां येस मेळुं येता. पूर्ण वेळाचो साहित्यकार नाशिल्ल्यान आनी वैजकी वेवसायाक लागून वेळ उणो मेळपाची शक्यताय आशिल्ल्यान अडेच-तीन वरांचीं नाटकां बरोवप तांकां घडये कठीण जायत, पूण एकांकी हो प्रकार तांचे शैलीक बरो जुळुं येता. साहित्य-प्रकार आसलो तरी ताका एक वेगळो आयाम आसा आनी आयज तो प्रकार केळोवपाची गरज आसा. त्या प्रकाराक फावो तशे गुण जांचे लिखणेंत आसात तांणी कोंकणी रंगमाचयेची ती गरज भागोवपाचो विचार करप ही काळाचीच गरज जावन आसा.

डॉ. राताबोली हांची भास सादी-सोपी आनी चालंत. तिका ते अडेच्या अळंकारांनी सोबयनात. घडये तांची शैलीच तशी आसत वा दिसाळ्यांतल्या सदराखातीर बरयल्ल्यान साहित्याचे जड अळंकार तांणी पेटकांतूच दवरल्यात. साहित्याक ओंपिल्ल्या नेमाळ्यांत उजवाडावपाचो तांचो निबंद घडये ते अळंकार घालून भायर सरतलो. पूण तांची गरज आसाच अशें मात न्हय.

चिकित्सायेचे नदरे वांगडाच पोल्यांतल्या पोल्यांत हांसूंक लावपाचो गुणय डॉ. राताबोली हांगेल्या निबंदांनी नदरेंत भरता. मनीस-सभावांतल्या व्यंगाचेर, समाजीक ढोंगाचेर आनी भौशीक मळावयल्या धोंगां-पोंगांचेर ते वैजाचे फिशालकायेन बोट दवरतात. जाचें धोंग वा पोंग ताका 'हायस' जाता आसत नासत, पूण वाचप्याक जातात त्यो खातकुतल्यो निबंदांची रूच वाडयतात.

कांय जाण एका पुस्तकान थांबतात. पूण जांच्या आंगांत सैमान साहित्याचे गुण घाल्ले आसात तांणी ते तशे पेटलांत बंद करून दवरप हें भौशीक लुकसाण अशें मानूंक जाय. देखून ह्या पुस्तकाच्या रूपान आयिल्ली चंवर डॉ. राताबोली हांणी झडूंक दिवंक फावना. ललीत निबंदाचो प्रकार तांणी केळोवचोच, पूण नाटका सारक्या प्रकारांतूय तांची प्रतिभा चंवरली जाल्यार कोंकणी सांस्कृतीच्या आंगार तो दोट्टी अळंकार जातलो.

मडगांव, ४ फेब्रुवारी १९९४

- उदय भेंब्रे

# परमळ हुंगचे पयलीं.....

फेब्रुवारी १९९२! हांव 'असो दोतोर-तशे पेशंट' हें म्हगेलें नाटकुलें बसयतालों. तें आयकूंक बशिल्लो म्हजो कोंकणीप्रेमी मावसभाव, श्री. दिनेश मणेरकार. पुराय प्रयोग आयकून ताणें म्हळें, 'नाटकूलें बरें बरयलां... तूं सुनापरान्तांत 'पारजत' ह्या सदराक लेख बरोवन कित्याक धाडीना?' दिनेशाच्या ह्या शब्दांनीं म्हाका बरोवपाची उमेद आयली. म्हगेलें पयलें पारजत 'दोतोरूच हांव' ४ एप्रिल १९९२ ह्या दिसा छापून आयलें... पारजतां फूलत रावलीं, तांचो झेलो जालो, तांचो परमळ पातळ्ळो...!

म्हजो मुळावो सभावूच वेळ काडपाचो. अशा वेळार म्हजो आळस पयस करूंक म्हाका लाखमोलाचो आदार दिलो तो शैलान, म्हजे बायलेन. जेन्ना पारजत बरोवंक विशय सूचलोना, तेन्ना हांवें ताका विचारप- 'हय गो, कित्याचेर बरोंव?' ताणें सहज म्हणप, 'बरय रे, तूं बाजार कसो करता तो', (हाचेवयल्यान हांव बाजार कसो करतां तें तुमकां मात्शें मात्शें कळ्ळां जावंक जाय). मागीर "हांवें बाजार केलो' पारजत तयार....

'आरे गोवा कोंकणी अकादेमीची 'पयलो चंवर' येवजण आसा, तूं कित्याक वांटो घेना?' म्हणून म्हज्या फाटीक लागून म्हज्या पारजतांचो संग्रह करून हे येवजणेंत सहभागी जावंक सांगपी म्हजो दोतोर इश्ट डॉ. दयानंद राव! ताका लागून हांव येवजणेंत म्हजें हस्तलिखित दिवंक पावलो. उपरांत म्हज्या वांगडाच डॉ. दयानंद रावाचें हस्तलिखित अकादेमीन मानून घेतिल्लयान म्हाका खोशी जाली.

ह्या पारजतांनीं हांवें म्हजेभोंवतणची सत्य परिस्थिती वाचप्यांमुखार मांडपाचो यत्न केला. विंगड विंगड विशय घेवन (वैजकी, राजकारण, शिक्षण, खेळ, बी)

*हांवें जीवितांतल्यो बारीकसाणी उपहासात्मक रूपान उब्यो केल्यात. आस्त आसा की तुमीं ह्या पारजतांचो परमळ आवडीन हुंगतले.*

*हें पुस्तक उजवाडा हाडपाक अर्थीक पालव दिल्लेखातीर हांव गोवा कोंकणी अकादेमीचो ऋणी आसा. म्हज्या ह्या परमळान आपल्या मोलादिक उतरांची भर घालपी सुनापरान्ताचे मुखेल संपादक श्री उदय भेंब्रे हांचे म्हजेर व्हड उपकार. श्री. भिकू बोमी नायक, प्रकाशक, जैत प्रकाशन, बेतकी, माशेल-गोंय आनी सम्राट प्रिंटर्स, भाणस्तारीचे धनी श्री. श्रीकांत आमोणकार आनी कामगार हांणीं हो परमळ तुमचे भोंवतणी शिंपडायला. तांचे उपकार विसरूं नज! श्री. विकास दलाल, विकास पब्लिसिटीचे धनी हाणीं ह्या पुस्तकाक सोबीत मुखचित्र दिलां. तांकां देव बरें करूं!*

*म्हजे लेख वाचून म्हज्या बरपाची तोखणाय करपी उतरां खूब लोकांकडल्यान प्रत्यक्षांत वा अप्रत्यक्षांत म्हज्या कानामेरेन पावलीं. त्या उतरांनीं म्हजी उमेद वाडली आनी म्हज्या उल्हासित मनोभुंयेतल्यान फूलिल्लीं पारजतां तुमचेमुखार परमळ शिंपडूंक आयलीं. म्हज्या सगल्या वाचप्यांचें आनी बरेमागत्यांचें देव बरें करूं!*

*चलात तर.... सोडयात पारजतांचो झेलो आनी हुंगात तांचो परमळ!*

*बिठ्ठोण, मार्च, १९९४.* **डॉ. उमानाथ वामन राताबोली**

# पारजल झेलो

# दोतोरांचो प्रवास

हांव फेरीबोटींत एका कोनशाक उबो आशिल्लों. कांय वेळान दोन चलयो लागींच येवन उब्यो रावल्यो. अंतर उणें आशिल्ल्यान तांचे संवाद स्पश्ट आयकूंक येताले.

'दोतोर, तुजें कशें चल्लां?'

'दोतोर' हो शब्द आयकना फुडें हांवें ते चलयेकडेन नदर घुंवडायली. घडये नवी वैजकी विद्यार्थीनी आसूंये, हांवें अदमास मांडलो आनी तो चूक थरलो ना. कारण त्या 'कशें चल्लां' ह्या प्रश्नाची जाप दिवपाक तिणें जी सुरवात केली ती आयकतां आयकतां फेरीबोट केन्ना धक्क्याक लागली तें कळ्ळेंच ना. म्हजे कान तिची जाप आयकताले. चोरून न्हय, तर उघड, कारण आपूण दोतोर (जातलें) हें थंय फेरीबोटींत जमिल्ल्या सगल्या लोकांक स्पश्ट कळचें इतल्या 'बारीक' आवाजांत तें उलयतालें.

'सामकें फर्स्टक्लास', तिणें म्हळें, 'आमची कॉलेज बांबोळे. आमकां पयल्या वर्साक तीन विशय, पूण कितें, तुवें ती ग्रेज ॲनाटोमी पळेल्या? तुका कल्पना येवची ना. बारावेचीं सगलीं पुस्तकां एक केलीं तरी ताची जडाय भरून येवचीना'.

'आगे बाये!.....'

'आमकां मडीं चिरचीं पडटात...'

'कितें? तुका भंय दिसना गो?'

'भंय? दोतोराक कसलो भंय? (डिसेक्शन हॉलांत पावल दवरतांच हें दोतोर जालें, हाची म्हाका खात्री पटली).. मज्जा येता.. आनी आयक.. आमकां व्हायव्हा आसता. वीस वीस मार्कांचे लांबचे लांब जापांचे प्रस्न येतात... आमकां पन्नास टक्के गूण घेवचे पडटात पास जावंक! तुमचे भाशेन पस्तीस टक्के न्हय. तशें आमकां पन्नास टक्के गूण चड न्हय गो. (एक परिक्षा जावंदी, मागीर कळटलें,

हांवें मनांत म्हळें) कारण आमी बारावेक ऐंशी टक्के घेतिल्लीं भुरगीं!.....'

'आं, आमकां देड वर्साचें एक वर्स. अभ्यास खूब न्हय गो? म्हणून भुरग्यांनीच तशी मागणी केली. (हें कारण म्हाका तेन्नाच कळ्ळें) खरें म्हणजे दोन वर्सां दवरपाचीं, सुशेगाद शिकूंक मेळटा न्हय गो? (एकदां गुठली मार, दोन वर्सां मेळटलीं, हांव म्हणूंक वतालों)

'आमकां रगत बी काडचें पडटा... पेशी मेजपाक... जाणा, तांबड्यो पेशी मायक्रोस्कोपातल्यान कितल्यो सुंदर दिसतात?' '

'अशें!'

इतल्यान फेरीबोट धक्क्याक लागली आनी फुडले विचार चुकले.



बस नेटान चलताली. हांव जनेलाकडेन बशिल्लों. म्हज्याच सिटार दोग मनीस बशिल्ले. एक भुरगोच, दुसरो जाण्टो. जाण्टेल्याचे माथ्यावेले केंस वचून मात्शें टक्कल पडिल्लें.

'दोतोरबाब, तुजें शिकून जाले न्हय?' जाण्टेल्यान भुरग्याक विचारलें. म्हणजे हो भुरगो दोतोर तर!

'ना, निमाण्या वर्साक आसा हांव. थोड्याच दिसांनी परिक्षा आसा'.

'हय? म्हाका एक सांग म्हजे हे केंस गळून टक्कल पडलां. ताका कितें उपाय?'

'हाका आमगेल्या शास्त्रान उपाय खूब आसात. पयलें स्टिरॉयड्स, दुसरें बेन्झील बेन्झोएट, तिसरें मिनोक्सीडिल लोशन, चौथें पावर दिवप, पांचवें सांत्वनशास्त्र आनी खूब कितें'.

'हातूंतलें हांवें कितें लायल्यार बरें अशें तुका दिसता?'

दोतोर पेंचात पडलो. ताणें आपल्याच माथ्यावेले केंस फाटीं फुडें केले आनी म्हळें- 'म्हाका दिसता हांतलें एक्कूय धड न्हय. तुमी अशें कित्याक करिनात?' ते बाकीचे केंस कापून एक बरें 'व्हीग' कित्याक घालीनात?'



सांजेची वेळ आसली. बस अजून येवंक नाशिल्ली. हांव बसीचे वाटेकडेन दोळे लावन उबो अशिल्लों. थंयच अचकीत एक दोतोर आयलो. तो सर्जरी कोर्स बऱ्या मार्कानी पास जाल्लो. हांवें 'हॅलो' म्हळें. तो म्हऱ्यांत आयलो.

'हांगा खंय तुमी? आयज क्लिनीक उक्तें ना?'

'ना. आयज सुटी घेतली', ताणें म्हळें.

'कशें चल्लां? दिसाक कितले येतात?'

'वायटशें ना', तो हांसलो, 'दिसाक धा-बारा येतात रे. तांतले पांच स मेडीकल रिप्रेझेंटेटिव्हज आनी दोन-तीन आमीग'.

'अशें न्हय?', हांवें काकुळटेन विचारलें.

'आमचें शिक्षण कित्याक उपेग ना रे. आतां कळटा की हें एम्. एस्. करून कांयच अर्थ ना.

'कितलीं ऑपरेसांवां केलीं फाटल्या म्हयन्यांत?' हांवें विचारूंक जाय म्हूण विचारलें.

'कितें सांगतलो! जे पेशंट येतात ते कापूया म्हणिनाफुडें एक तर व्हडल्या हॉस्पिटलांत वतात, ना तर मुंबय धांवतात. आमकां खंय रावतात ते? तशीं थोडीं ऑपरेसांवां केलीं. चार-पांच आपिनेशी काडून उडयल्यो. दुसरो उपाय ना न्हय?'

'हय, बरोबर. तुमचें पोट जगतलें जाल्यार तांची आपिनेशी काडचीच पडली'. इतल्यान बस आयली. आनी गर्देत आमी दोगूय दोनकडेन पावले.



# शंबराची नोट

कसल्या तरी कामाक लागून एका फॉर्माचे झेरॉक्स कॉपीर गॅझेटेड ऑफिसराची सही जाय पडली म्हूण हांव लागींच्याच कचेरेंत भितर सल्लों. त्या वेळार दनपारचीं बारा वरां जाल्लीं.

थंय फायलींनी भरिल्लीं आठ मेजां दिसतालीं. कदेलां चडशीं रिकामीच. येन्नाच जेवपाक गेले दिसता', हांवें चिंतलें! तिगूच क्लार्क जाग्यार आशिल्ले. एकलो न्हिदिल्लो आनी दोग जागे आशिल्ले. हांव तातूंतल्या एकल्याकडेन गेलों. तो आपल्या कामांत गुल्ल आसा (स्टार अँड स्टायल वाचपाच्या) हें म्हाका कळ्ळें. हांव कॉपी घेवन दुसऱ्याकडेन गेलों. तोय कितें तरीं करतालो. म्हूण हांव तसोच खुंटो कसो ताचे फुडें उबो रावलों. ताणें मान वयर करून म्हाका पळेलो पूण तोंडांतल्यान उतर काडलेना. मिश्यांवेल्यान बोटां भोवंडायत आनी दोळ्यांच्यो बावल्यो वयर सकयल घुंवडायत तो 'काम' करीत रावलो. हावूंय उतर काडिनास्तना पुतळ्यावरी घट्ट रावलों.

कांय वेळान फायलींचीं पानां फाटल्यान फुडल्यान करीन ताणें मान वयर केली आनी म्हाका प्रस्न केलो.

'कितें जाय?'

'म्हाका फॉर्माचे झेरोक्स कॉपीर डायरेक्टराची सही जाय आशिल्ली', हांवें कॉपी फुडें केली.

'डायरेक्टर ना. भायर सरला. फॉर्म दवर. हांव सही घेवन दवरतां. चार दिसांनी यो', ताणें पर्थून तकली फायलींत घाली आनी हात फुडें केलो.

'कितें? चार दीस?' हांवे आवाज मात्सो चडयलो. चार वरां लेगीत रावपाक म्हाका वेळ नाशिल्लो. एके सहेक लागून सगळीं हेर कामां अडून उरतालीं.

'आमीं हरशीं आठ दिसांनी आपयतात. तुका चार दीस सांगलें.'

'म्हाका म्हणून चार दीस?' म्हाका अजाप दिसलें. घडये ताणें म्हज्या मनगटांतली 'टायटन' घड्याळ आनी बोटांतली 'हिऱ्यामुदी' पळेल्या जावंये.

'आनीक दुसरो कोण गॅझेटेड ऑफिसर आसा हांगा?'

'ना, तो एकलोच', ताणें तोंड फायलीक तेंकयलें.

आमच्या संवादाचो दुसऱ्या क्लार्काचेर कसलोच परिणाम जाल्लो दिसनाशिल्लो. एकलो आतां घोरेतालो. दुसरो एके नटयेचो फोटू तोखेतालो.

'केन्ना येतलो डायरेक्टर?'

'हांव नकळो. आमकां सांगून वचना', ताणें फाट कदेलाक तेकयली आनी फायल तोंडांमुखार धरीत म्हळें.

हांवें चिंतलें. दुसरेकडेन गेल्यार चड वेळ वतलो. हांगाच मात्सो रावन सही घेवन वचूंक मेळटा तर पळोवया.

'बेगीन मेळचेना?' हांवें बोल्सांत हात घालून पयशे भायर काडले. तो एका दोळ्यान म्हाकाच पळेतालो.

'खंय सही जाय आशिल्ली?' ताणें म्हज्या हातांत दुडू पळोवन आपलो उलोवपाचो सूर बदल्लो.

'हांगा', हांवें जागो दाखयलो. आनी पांच रूपयांची नोट हातांत धरून उरिल्ले पैशे बोल्सांत घाले.

'बरें दोन दिसांनी यो', ताणें चार दिसांचे दोन दीस केले.

हांवें आता हातांत आनीक एक पांचाची नोट धरली.

'दोन दिसांनी? म्हाका सही मात्शी बेगीन जाय आशिल्ली'. तो तिरशे नदरेन म्हज्या हाताकडेन पळेता हें हांव जाणून आशिल्लों.

'फाल्यां यो', ताणें धा रूपया पळेल्ले.

'आज जावचेंना?'





'ना. डायरेक्टर ना म्हळ्यार कळना? कोण हांव मारतलों सही?' तो मात्सो फणफणलो.

हांवें धा रूपया बोल्सांत परते घाले आनी पन्नास रूपया हातांत घेतले.

'तूं अशें कर. डायरेक्टर येनाफुडें हांव सही घेवन दवरतां. सांजचो यो'. पन्नास रूपया पळोवन ताची तिडक निवळ्ळी.

म्हजो उत्साह वाडलो. म्हजे 'फांसे' अचूक पडटाले. हांवें अखेरेक व्हड फांसो उडोवपाचें थारायलें.

'तूं अशें कित्याक करिना? डायरेक्टर भितर आसा काय ना तें कित्याक पळेना? फॉर्मूच घेवन चल. आसल्यार सही घेवन यो. फाटले दिकेन बी आयला आसुंये'. हांवें पन्नास रूपया बोल्सांत दवरून शंबराची नोट हातांत धरून विचार मांडले.

'हय न्हय? हाड दी फॉर्म', ताणें बोल्सांतली फणी काडून केंस सारके केले. कल्सांव सारकें केलें आनी मिशयांवेल्यान बोटां फिरयत फॉर्म घेवन कॅबिनांत गेलो... आनी दोन मिनटांनी परतलो.

'आशिल्लो मरे डायरेक्टर. म्हाका दिसलें भायर सरला काय म्हणून', ताणें आपली नदर म्हज्या उजव्या हातांतले नोटीर रोखून झेरोक्स कॉपी म्हज्या दाव्या हातांत खुपशिली.

हांवें नोट बोल्सांत घाली आनी रिकामी हात फुडें करीत म्हळें, 'थँक्यू व्हेरी मच, म्हजें काम जालें'.

'नो प्रोब्लेम', ताणें उजवो हात म्हज्या हातान दिलो आनी दावो हात कल्सावांच्या बोल्सांत घालून लेस काडलो. तो घामाघूम जाल्लो खरो.



# दुसरो नंबर कोणाचो?

कसलोय निकाल लागीं पावता तेन्ना म्हाका कांय वर्साफाटली खबर याद जाता. एक हुशार विद्यार्थी निकाला दिसा केन्नाच विद्यालयांत वचनाशिल्लो. जे भुरगे ताज्या घरामुखावेल्यान वताले तांकां तो विचारी- दुसरो नंबर कोणाचो? हाजें कारण म्हळ्यार ताका पुराय खात्री आसताली कीं पयलो नंबर आपलोच म्हूण! तो गिन्यानान 'पक्को' म्हूण पयलो नंबर, 'धक्को' लावन फुडें व्हेला म्हूण न्हय!

आजूय खूपशा शाळांनीं, विद्यालयांनीं, म्हाविद्यालयांनीं अशें दिसून येता की परिक्षेचो निकाल लागनाफुडें विद्यार्थी एकामेकांक विचारतात- 'दुसरो नंबर कोणाचो?' कारण पयलो नंबर थारिल्लोच आसता...



प्रो. शिरगोपीकराल्या दारार कोणें तरीं मारलें. दार काडिनाफुडें प्रो. सिंग आनी बायल भितर सल्लीं.

'येयात, प्रोफेसर बसात. कितें काम आशिल्लें?'

'तुमचो पुत फुडले वर्सा निमणे वर्साक न्ही?' प्रो सिंगान विचारलें.

'हय, बरोबर!'

'ह्या वर्सा म्हजें चली निमणे वर्साचे परिक्षेक बसलां. फाल्यां ताची प्रॅक्टीकल आनी तोंडी परिक्षा. तुमींच घेतले न्हय परिक्षा?'

'हय, हावूंच आसां मुखेल परिक्षक'.

'तेंच सांगपाक आमीं दोगांय आयिल्लीं'. प्रो. सिंगान अशा थाटान सांगलें जणू काय तो आपले धुवेच्या लग्नाचें आमंत्रण दिवंक आयला.

प्रो. शिरगोपीकराक कळपाचें तें कळ्ळें... रंजीता कौर, प्रो. सिंगालें चली निमणे वर्साक आसा हें सगळ्यांक खबर आशिल्लें. ताणें अभ्यासांत कितें पुरूशार्थ केला हेंवूय सगळे जाणा आशिल्ले. तरीय निकाला दिसा सगळ्यांनी विचारलें- 'दुसरो नंबर कोणाचो?'



रस्त्यान चलतां चलतां डॉ. लिंकन क्लिनीक दिसलें. सहज भितर नदर मारली. दोतोर मुसकां मारतालो. कितें परिस्थिती न्हय एकेकल्याची? हांवें चिंतलें. भांगरा पदक घेवन परीक्षा पास जाल्लो दोतोर हो. पूण ताजी खरी परीक्षा आतां सुरू जाल्ली. भांगरा पदक पळोवन दुयेंत येना दोतोरबाब', हांवें मनांत म्हळें... 'कितें? भांगरा पदक?' म्हजें दुसरें मन म्हजेर फणफणलें.... 'तुका खबर ना काय कितें?'

'हय, आसा! डॉ. लिंकनाचो बापूय हॉस्पिटलाचो डीन. म्हणटकच डिनाक खूश करपाक प्रत्येक विशयाचे मुखेल परिक्षक ताच्या पुताक चडांत चड गूण दितलेच न्हय? हातूंत अजापशें कसलें? दोतोरकेच्या प्रत्येक विशयांत विशेश प्राविण्य मेळिल्लो हो पयलोच विद्यार्थी म्हणून ताजें नांव गाजूंक फाव आशिल्लें पूण गाजलें ना! पूण गाजलो तो एकूच प्रश्न! दोतोरकेच्या तिनूय वर्सा निकाला दीसा हेर विद्यार्थ्यांनी एकामेकांक विचारिल्लो, 'दुसरो नंबर कोणाचो?'



सगळ्यांक खबर आशिल्लें विल्सन 'त्या' विशयांत चडांत चड गूण घेवन पयलो येतलो म्हूण. वर्सूय भर आपल्या आवडत्या विशयाचें मन लावन

शिक्षण घेवपी विल्सन. फळ मेळुंकूच जाय! ताचो इश्ट रमेश.... हुशार भुरगो. दोगूय सांगातान शिकपी. दोगांयचे बापूय बरे सुवातेर कामांक. दोगूय विद्यार्थी हुशार.... पूण ह्या विशयांत विल्सन रमेशापरस ज्ञानान कितलोसोच फुडें!

परीक्षेचो निकाल लागलो. विद्यार्थ्यांनी एकामेकांक विचारलें 'त्या' विशयांत दुसरो नंबर कोणाचो? कारण हक्काचो पयलो नंबर विल्सनाचोच हें सगळ्यांक खबर आशिल्लें. पुणून, उत्तर मात वेगळें! कितें? रमेश पयलो तर? अन्याय मरे हो. विल्सन रडपाक लागलो. ताणें एकूच म्हळें- 'रमेश म्हजो इश्ट. ताणें इश्टागतीचो घात केला अशें हांव म्हणिना.... पूण म्हजी भयण म्हाका सांगी.... विल्सन, तूं पयलो येवंक सोदता 'त्या' विशयांत.... विसर तें... रमेशालो बापूय आनी त्या विशयाचो मुखेल परिक्षक ल्हानपणासावन घट्ट आमीग!'



'ब्रिजेश, तुजो नंबर कितलो?' ताजे मावशेन विचारलें.

'दुसरो!'

'फुडले फावट पयलो घेवन दाखय आं'.

'ना मावशे, दुसरोच बरो. पयल्या नंबराक आतां वालोर उरूंक ना! सगळे वता थंय एकूच विचारतात. दुसरो नंबर कोणाचो?'



# कालचें दिसाळें आयज वाचलें

हां`वें दिसाळें विकतें घेतलें आनी फेरीबोटीचे दिकेन वचूंक लागलों. फेरीबोट येवपाची आशिल्ली. लोकांनीं रांपार गर्दी केल्ली. इतल्यांत म्हजे फाटीर कोणे तरीं हात मारलो आनी विचारलें- 'बरो मरे?' हांवें त्या मनशाक केन्नांय फेरीबोटींत पळेला जायत पूण वळख नाशिल्ली. हांवें तरींय 'हय' म्हणून जाप दिली.

'मात्सो पेपर दी पळोवया. आयज कितें छापलां तें वाचूया मरे!' ताणें फुडें म्हळें. मनांत चितलें, 'विकतो घे आनी जाय तितलो वाच मरे. पेपर सोंपले तर?' पूण ओगीच रावन दिसाळें ताच्या हातांत दिलें. कांय खिणानीं फेरीबोट रांपाक लागली आनी आमी दोगूय खंयच्या कोनशाक शेवटल्यात तें तकली वयर करून पळोवन लेगीत एकामेकांक कळपाक शक्य नाशिल्लें ते गर्देन.

फेरीबोट पलतडच्या रांपाक लागली आनी सगळे लोक बेगोबेग फेरीबोटींतले भायर सरून चलत रावले. हांव मात थंयच घुस्पून उरलों. म्हजो पेपर घेवन तो मनीस खंय गेलो? हांवें हांगाथंय पळयलें. पळे तर 'तो' मनीस गडबडींत हेरांभाशेनूच रस्त्याचे दिकेन चलतालो. हांवें धांव मारली आनी ताका गांठलो.

'हॅलो, म्हजो पेपर?'

'सॉरी, आं,' चुकीविशीं खंत प्रगटावन ताणें तो पेपर फेरीबोटींत कोणे तरी वाचूंक घेतिल्ल्याचें सांगलें.

'तुवें परतो कसो घेतलोना', हांवें विचारलें.

'एका पेपराचें कितें घेवन बसला रे तूं? भांगरा वस्त शेणेल्ले भाशेन', ताणें खुबळून जाप दिली आनी चलूंक लागलो.

दिसाळें म्हजें, पयशे म्हजे, शेणयला हाणें आनी वयल्यान शाणेपणां!

थंयच एक दुसरें दिसाळें घेतलें आनी गोवा अर्बन बँकेन भितर सरलों. धा वरां जावंक पांच मिनटां आशिल्लीं. म्हाका जाय तो मनीस येवपाचो आशिल्लो. हांव थंयच बसकेचेर दावे वटेन पेपर दवरून बसलों आनी नदर उजवे दाराकडेन वळयली. कांय वेळान फाट वळयत तर दिसाळें जाग्यार नाशिल्लें. कोण तरी म्हाका विचारिनासतना दिसाळें घेवन वाचूंक बशिल्लो. हांवें कांयच म्हळें ना. थोडो कळाव जाले उपरांत म्हाका जाय तो मनीस आयलो आनी हांव ताचेकडेन म्हजें उलोवणें पुराय करून दुसऱ्या कामाक वचूंक भायर सरलों. इतल्यान याद जाली म्हजें दिसाळें बँकेत आसा म्हूण. कितें करतलों? बँकेचे बसकेर येवन बसलों. तो मनीस बाबडो दिसाळें वाचूंक सामको धुंद जाल्लो. इतल्यांत थंय एक बायलमनीस येवन बसली.

'मात्शें पेन दी आं', तिणें म्हळें.

हांवें पेन काडून दिलें. आतां म्हाका बँकेभायर वचप शक्यूच नाशिल्लें. कारण दिसाळें एक सोड, पेनूय कोणे घेतिल्लें! असोच थोडो वेळ गेलो आनी तो मनीस भानार आयलो. 'तुजो पेपर' म्हणत ताणें म्हजें दिसाळे दिवंक केलें पूण तें म्हज्या हातांत पावचे पयलीं त्या मनशाचे शेजरा बशिल्ले बायलेन हात लांब करीत तो पेपर मागून घेतलो. आनीक धा-बारा मिनटांनी म्हजी पेपर आनी पेन घेवन बँकेंतल्यान सुटका जाली.

सांजेचो ऑफिसांत गेलों. थंयच दिसाळें मेजार दवरलें. आमच्या क्लार्कान पळेनाफुडें विचारलें- 'आयचो पेपर?' आतां हांव कालचो पेपर घेवन कित्याक भोंवतलों? पूण आसता एकेकल्याची विचारपाची तरा. ताणें दिसाळें बरें एक वर लावन वाचलें आनी हाडून दिलें. तेन्नाच आमचें टेक्रिशियन थंयच्यान वतालें.

'आयज तुजो लेख आयला?' ताणें विचारलें.

'हय', हांवें मान हालयली.

'मात्सो म्हाका वाचूंक दी आं', अशें म्हणून क्षमा दिसाळें घेवन आपल्या

लॅबांत गेलें. कांय वेळान तें दिसाळें हातांत घेवन म्हजेसरीं आयलें आनी म्हाका विचारलें-

'वासूदेव पेपर मागता तुजो लेख वाचूंक. दिल्यार जाता?'

हांवें म्हळें, 'दी'. तेन्नां सांजेची साडेचार वरां जाल्लीं.

पांच जालेउपरांत हांव ऑफिसांतल्यान घरा आयलों. घरा पावनाफुडें बायलेन बॅग उगडून विचारलें, 'आयज पेपर घेवना?' तेन्ना याद जाली पेपर ऑफिसांतूच उरलो म्हणून. हांवें हांसत म्हळें, 'प्रत्यक्षांत आयज हांवें एक न्हय दोन पेपर घेतले. पूण एकूय उगडून वाचूंक ना'.

तेन्नासावन कानांक घट पीळ! हांव दिसाळें घेनाफुडें बॅगान उडयतां तें बद्द घरा उगडून वाचप. नाजाल्यार फाटलेभाशेन कालचें दिसाळें आयज वाचलें' अशी गत जावपाक नाका.



# शिक्षणाचो लाब कितें?

गुलाबः शी, आतांचे भुरग्यांक शिकोवप म्हळ्यार जिवार येता रे बाबा. पुस्तकांतलें कांयच कळना. सगळें नवें. तकलेवेल्यान वता.

विजयः (केंस नाशिल्ल्या तकलेवेल्यान हात भोंवडायत) हय, बरोबर. तकलेवेल्यान वता खरें. हांव म्हणटां शिक्षण नवें दियात. पूण नव्यो थोड्यो पध्दती आसात त्यो अर्थ नाशिल्ल्यो. देखीक 'समयी' शिकयता समय + ई= समयी'. ही नव्यांतली नवी रीत. भुरगे 'समयी' बरोंवक शिकताल पूण समय+ई कळपाक तांकां विनाकारण वेळ वता.

पद्मजाः वेळ वता ते जालेंच पूण ह्या शिक्षणाचो भुरग्यांक कितें लाब काय म्हणटां हांव? काडयेचो लाब ना हे शिक्षणाचो. शिवाजीन शाहिस्तेखानाची बोटां कशीं कापलीं, चंद्रार फोंडकुलां कितलीं, भांगर खंयचे रसायनान मिसळटा, शटकोनाच्या क्षेत्रफळाचें कोंत कशें करप हें कळून भुरगे कितें करतले?' आमी हे सगळें शिकलीं पूण आतां आमकां हातूंतलें कांयच याद ना.

हांवः (मनांत) तूका तेन्नां तरी याद आशिल्ले.?

विश्वासःखरें म्हणजे सगळी शिक्षण पध्दतच बदलूंक जाय. आतांचे युगान पर्जळतलो जाल्यार बीजगणीत, भूमिती, विज्ञान, इतिहास, भूगोल शिकून कांयच अर्थ ना. आतां नवीं शास्त्रा शिकोंवक जाय.

हांवः नवीं शास्त्रां म्हणजे? कितलोय शिक्षणात बदल केलो तरीं मुळावें शिक्षण तेंच उरतलें न्हय? बदल करून करून कितें करतले?

विश्वासः मुळावें शिकपूच बदलपाचें. फुडाराक जें गिन्यान उपेगाक पडूं येता अशें शिकप भुरग्यांक दिवचें. हांव शिक्षणमंत्री आशिल्लों जाल्यार हो म्हत्वाचो मुध्दो मांडटलो आशिल्लो विधानसभेंत.




विजय: तूं कितें म्हणूंक सोदता तें अजून कळूना म्हाका. शिकून संवरून हांगा नोकऱ्यो मेळनात. आनी तूं म्हण्टा पध्दतूच बदलूंक जाय म्हूण. नवें शिक्षण सुरू केलें तर त्या शिक्षणांक नोकऱ्यो मेळूं नाका?'

विश्वास: आरे विजयबाब, हांव कितें म्हण्टां तें तुमी आयकूनूच घेनात. शिकून लेगीत आतां भुरग्यांक फावो तशो नोकऱ्यो मेळनात. बी.एस्.सी. जाल्ले भुरगे कंडक्टर म्हूण कदंबा बसीनी 'फाटीं सर, फुडें सर' करीत वावुरतात. म्हुणूनच शिक्षणांक फावो तशें काम करून आपलो फुडार स्वताच सांबाळपाक मदत करपी शिक्षण भुरग्यांक दिवंक जाय.

शांती: कसलें शिक्षण म्हण्टा तूं? रांदूक शिकपाचें, शिवण करपाचें बी तसलें?

हांव: (मनांत) हें किदें आपले भुरग्यांक फुडाराक रानपी वा आल्फियाद करतलें काय कितें?

विश्वास: हांव म्हणटां तें शिक्षण वेगळें.

पद्मजा: तो कॉम्प्यूटर म्हण्टा दिसता.

गुलाब: कॉम्प्यूटर शिकून कांयच फायदो ना. आतां हजारानीं भुरगे कॉम्प्यूटर शिकल्यात. कांय वर्सांनी हे भुरगे कॉम्प्यूटर संस्था सोदीत गावांगावांनी भोंवतात ते दिसतले आनी अखेरेक कॉम्प्यूटर शिकिल्लेय रस्त्यार पडटले.

विश्वास: हांव म्हणटां तें शिक्षण वेगळेंच. म्हजे दृश्टीन फुडें कितेंय चार पयशे जमयतलो जाल्यार वैजकी, इंजिनिअरींग, डेण्टीस्ट्री, फार्मासी करून कांयच अर्थ ना. आताचे भुरग्यांक जर स्मगलिंग कशें करप, बेकायदेशीर चांदीचो वेपार कसो करप, भागंराच्यो लगड्यो कशो विकप, झाडां कशीं मारप, लाकडांची भंगसाळ कशी बांदप, चोरयेचीं लाकडां लिपोवन कशीं दवरप, राजकारण कशे खेळप, एक सरकार उडोवन ताचे जाग्यार दुसरो सरकार कसो उबारप, मुखेलमंत्री जावंक कसो झगडप, आश्वासनां कशीं दिवप, लोकांक पिशे करून स्वता शाणो कसो जावप, स्वता

शाणो जाला अशें समजून दुसऱ्याक चडशाणो कसो म्हणप, असल्या विंगड विंगड विशयांचेर शिक्षण दित जाल्यार फुडाराक ते आपलेंच न्हय तर तांचे आवयबापायचें आनी देशाचें नांवूय खूप वयर काडटले.

विजयः चुकलो तूं. आरे झाडां कशीं मारपाचीं तें शिक्षण दिवंक जाय म्हण्टा? आरे, आमचे भुरगे व्हड जावन हें शिक्षण घेवन तयार जातले तेन्नां झाडां उरतलीं अशें दिसता तुका? उरतले फकत ताळखिळे, कातकुल्यो, आसाळे, काण्णां, बारखेलीं रानटीं झाडां आनी सुकें सडसडीत तण. तीं कापून कितें मेळटलें आमचे भुरग्यांक? जळवाक लेगीत तीं लाकडां पावचीं नात.

शांतीः आतांच मेळनात. काल हांव मावशेगेर गेल्लें. थंय ताणी सोबेक प्लास्टिकचीं झाडां लायल्यांत.

विश्वासः (शांतीकडेन दुर्लक्ष करून) हय न्हय! तें सुचलेंच ना म्हाका.

पद्मजाः पूण स्मगलिंग आनी राजकारणाचें शिक्षण दिवपाक कांयच हरकत ना.

हांवः आगो, सगळ्यांकूच जर स्मगलिंग शिकयलें आनी सगळेच जर राजकारणी जाले तर जांचे खुस्तार हे लोक आपलीं कामां सादयतात आनी राजकारणांत वावुरतात ते आमचे तुमचे सारके शिक्षण घेतिल्ले भुरगे आसचेच ना. म्हण्टकच आमचे भुरगे राजकारण कशे खेळटले? स्मगलींग कशे करतले? म्हणून हांव म्हणटां जे कोण झाडां मारतात तांकां मारूंदी, स्मगलींग करतात तांकां करूंदी, राजकारण खेळटात तांका खेळूंदी. आमचे भुरगे स्वता जरी कांयच करूंक शकलेना तरी हे लोकांक आदार करपाचे काम तरी तांकां मेळटलें. तोच आतांचे शिक्षणाचो व्हडांतलो व्हड लाब.

विश्वासः पटलें म्हाका, शिक्षण आसा तेंच बरें रे बाबा.



# दुयेंत आनी दोतोर

एक बायल ल्हान भुरग्याक घेवन म्हजेसरीं आयली. त्या भुरग्याचे तकलेर खेळटना बॅट बसून कात गेल्ली. हांवें मलमपट्टी बांदली, गुळयो दिल्यो आनी भुरग्याक घरा धाडलो. दुसऱ्या दिसा आवय भुरग्याक घेवन पर्थून आयली.

'दोतोर, सचीनाची मान घट जाल्या'.

'कितें मान घट जाली? हांवें प्रश्न केलो आनी भुरग्याक तपासलो.

'त्योच गुळयो चालू दवर आनी फाल्यां यो', हांवें म्हळें.

तिसऱ्या दिसा तीं दोगांय आयलीं तेन्ना-

'दोतोर, आयज तो मान बरी हालयता'.

'बरें जालें. गुळयांनी ताची दूख गेली म्हूण तो मान बरी हालयता'. हांवें खोस परगटायली.

'ना दोतोर, काल रातीं हांवें बरें व्हीक्स धरून सारयलें. ताणें ताची मान बरी जाली.' ते बायलेन म्हाका सांगले आनी म्हजीं उतरां आटून गेलीं.



एक दुयेंत म्हाका अडेजशें रूपया दिवपाचो आसा. कांय म्हयन्यांफाटी तो म्हाका मेळ्ळो.

'दोतोर, तुजे ते दुडू दोन दिसांनी दितां आं'

हांवे 'आं' म्हळें.

कांय दिसांउपरांत म्हाका त्याच मनशाल्या धाकल्याक तपासूंक वचचें पडलें. तपासून जाले उपरांत त्या मनशाचे घरकान्नीन म्हजी बॅग उबारली आनी म्हजे स्कुटरीमेरेन म्हज्या सांगातान आयली.

'दोतोर, तुजे सगळे दुडू एकेच पावटीं दितां आं. आतांचे आनी फाटले.




तुजे फाटले दोनशे रूपया दिवपाचे आसात'.

हांवें 'आं' म्हळें आनी चिंतेत पडलों. अडेजश्यांचे दोनशे केन्ना जाले?

पयर तोच मनीस घराकडेन आयलो स्वताक तपासूंक. दुडू दिवच्या वेळार ताणें म्हळें, 'दोतोर ह्या दिसांनी मात्शी अडचण आसा. फुडल्या आठ दिसांनी तुजे सगळे दुडू दितां, आयचे पांच आनी फाटले शंबर'.

म्हज्या काळजांत 'धस्स' जालें. म्हणजे आतां दोनशांचे शंबर जाले! कांय दिसांनी ताणें म्हाका 'दोतोर, तुजे सगळे दुडू फारीक जाले आं' म्हूण सांगीत तर म्हाका अजाप दिसचें ना.



एका भुरग्याक सकयल पडून दोळ्यावयर 'कोंक' जाली. हांवँ पोंत मारून, गुळयो दिल्यो आनी सात दिसांनी आपयलो.

सातव्या दिसा आवय भुरग्याक घेवन आयली. हांवें बँडेज सोडोवन पोंत काडले. घावो बरो भाजून आयिल्लो.

'बरो भाजून आयला', हांवें भुरग्याचे आवयक सांगलें.

'कित्याक येवचोना?' ते बायलेन म्हळें, 'हांवे सात दीस ताका फुगीचें कांयच दिवंक ना.'



कांय दिसांफाटीं एक दुयेंत म्हजे क्लिनिकेंत भितर सरलो. ताच्यो कुशी भरिल्ल्यो.

'थंडी खूब जाल्या. वखदां नेमान घेवचीं पडटलीं', हांवें म्हळें.

'दोतोर, तूं वखदां बरोवन दी. कितलेय दुडू पडूं . जीव पयलो न्ही?', हांवें वखदां बरोवन दिलीं.

'कितले दुडू पडटले? शेजाऱ्याकडेन पणजेसावन हाडपाक दिवंक जाय

म्हूण विचारतां आं'.

'देडशे रूपया पडटले,' हांवे अदमासान सांगलें.

'पडूं थंय', ताचेर खास परिणाम जालो ना.

'दोतोर, तपासपाचे कितले?'

'धा रूपया'.

'कितें? धा रूपया केले? पयलीं पांच आशिल्ले न्हय?'

हांवें कांयच म्हळें नां. मनाक पटलें कीं फार्मासकाराक देडशे रूपया दिवंक परवडटल्या मनशाक दोतोराक धा रूपया दिवंक तांकना म्हूण!



रातच्या आठांचो सुमार. एक तरनाटो म्हाका एका घरा घेवन गेलो. थंय एक तरनाटें चली दुयेंत आशिल्लें. हांवें तपासून वखदां दिलीं. भायर हात धुतना म्हज्या कानार संवाद पडले:

'हे घे, दोतोराक दी'- ती चलयेची आवय आसूंक जाय', हांवे येवजिले.

'नाका आई, हांव दितां'- हो चलयेचो कोण काय?' म्हजे पर्थून येवजप, तो तरनाटो स्कुटरीमेरेन म्हजी बॅग घेवन आयलो.

'दोतोर, कितले?'

'पंचवीस रूपया'.

'फाल्यां दितां आं. वखद दाखोवंक येता तेन्ना'

मागीर कळ्ळें की हो भुरगो तें चलयेचो मोगी म्हूण. ते चली खूश आपले दुडू आपल्या मोग्यान फारीक केले म्हूण. तें चलयेची आवय खूश आपल्या फुडाराच्या जांवयान दुडू दिले म्हूण, तो मोगी खूश आपल्या गर्लफ्रॅंडाक आधार केलो म्हूण- नाखूश तो हांव. अजून दुडू मेळूंना म्हूण!



# हांवें बाजार केलो

आयतारची सकाळ. हातांत पिशव्यो घेवन हांव बाजारांत गेलों. बाजारांत वचनाफुडें चूक लक्षांत आयली. कानांत कापसाच्यो गुङ्ग्यो घालपाक विसरलों म्हूण! आवाजान कान भेरेले. हांवें आवाजाकडेन दुर्लक्ष करून चलता चलतांच बायलेन दिल्ली बोल्सांतली सामाना-वळेरी उगडली.....

'अर्द कील तोमाट (थोडे पिके, थोडे तन्ने), अर्द कील गाजर, ओले कोथमिरेची एक चुडी (म्हारग असल्यार अर्दीच हाड), एक पडोळें (चड लांब नाका), कसलींय दोन फळां (पणस आनी काळींग सोडून), आडसाटीशीं कणगां, एक ल्हानसो बीट, अर्द कील बासमती तांदूळ (तीस रूपया कील पळे ते. दुसरे नाका), पांच लिंबू, तीन कील कांदे (बारीक मोटे मेस्तुराद), खोबरेल तेल (बाटली भरून).

वाचून तकली घुंवली. 'बाजार' जालो म्हण्टकच 'बाजार' चुकना, हांवें स्वतःचेंच समादान केलें [illegible] भाजीवाल्या दुकानांत गेलों.

'पात्रांव, [illegible] आय?'

हांवें वळेरी [illegible]चली- कंसांत आशिल्ल्या अक्षरांसयत. भाजीवालो हांसलो (घडये म्हज्या [illegible]णांक).

'तोमाट [illegible] रे?'

'वीस रूपया कील', ताणें तोमाट तागडेंत घालपाक सुरवात केली.

'वीस रूपया?...' [illegible] दुखलें, 'पंदरांक दिता मरे?'

'ना', वेळ काडिनासतना ताणें तागडेंतलें तोमाट पर्थून पाटल्यांत घाले.

हांवे तिडकीन कांयच घेनास्तना तें दुकान सोडले आनी दुसरे दुकानांत गेलो. आतां हांव शाणो जाल्लों.

'बाबू, कितें दिवया?' भाजीवाल्यान गोड रितीन विचारलें (तो चिवींग

गम चोखतालो खरो)

हांवे वळेरेतली एकेकूच वस्त सांगपाचें येवजिलें.

'तोमाट कशें दिता?' म्हजो प्रश्न.

'बाबू, अठरा रूपया कील. सतरांक दिलां. तुका सोळा धरतां. बोणी करूया'. आता हांव खास कोण मनीस ते म्हाकाच कळना जालें. पूण खोस भोगली. कोण तरी म्हाका रेश्पेतार करता. बायलेक यादीन सांगचेंच पडलें.

सगळी भाजी ताजेकडेन घेतली आनी पोतयो घेवन फुडें गेलों. वाटेर भाज्जेचें आनीक एक दुकान लागलें. उत्सुकता म्हणून ओगीच विचारलें.

'आरे, तोमाट कशें कील?'

'यो, पंदरा रूपया, वांटपण ना', ताणें म्हळें. सांगपाची रीत आवडपासारकी नासली. पूण हांव आतां आनीक शाणो जालों. म्हणचे पयल्या भाजीवाल्यान म्हजी व्हड वळेरी पळोवन पयलींच तेजी केल्ली. दुसऱ्यान गोड उलोवन बाबू म्हणून लेगीत म्हजो दरेक किलार एक रूपया चडूच काडिल्लो. हो तिसरो तोंडान जरी गोड नासलो तरी फटींग न्हय हें म्हाका पटलें. पूण आता लोक गोड उलयतात तांकां भुलतात खरे, म्हजेसारके....

फुडें एक भुरगो लिंबू घेवन बशिल्लो. म्हाका पांच लिंबू हाड म्हणिल्ले. 'पांच रूपयांक तीन, चार व्हर'. 'म्हाका लिंबांमुखार रावला तो पळोवन ते भुरग्यान हांवें विचारून वांटपण करचेपयलींच सांगलें. पूण हांव आतां अदीक शाणो जाल्लों.

'म्हणचे खरो दर रूपयाक एक आसूंक जाय', हांवें फाटल्या अणभवावेल्यान तर्क मांडलो.

'पांच दिता मरे?' हांवे नेटान विचारलें.

'व्हर', ताणे जाप दिली आनी हांवें पांच लिंबू पोतयेंत घाले. आतां हांव शाणो जालो खरो. ते उपरांत हांव वळेरेप्रमाणे दोन तरेची फळां घेवंक फळां दुकानामुखार उबो रावलो.

'गोड गोड आपोल, गोड गोड मोसंबी', फळवाल्यान म्हाका गोड गोड येवकार दिलो.

'कशे रे बाब?' आता हांव बरोच शाणो जाल्लो. ताकाच बाब म्हळ्यार तो दुडू कमी करीत काय म्हूण म्हजो तसो प्रस्न!

'मोटे आपोल वीस रूपया, बारीक सोळा रूपया. मोसंबी धा रूपयांक चार. कितें व्हरता?'

'म्हारग मरे बाब!'

'तूं माग पात्रांव, कितले दिता?' बाब म्हणिल्ल्याचो परिणाम रोखडोच येतलो अशें म्हाका दिसुंनाशिल्लें.

'बाब, म्हाका मोटी सफरचंदां एक डझन घाल. सोळा काड मरे. आनी म्हाका अर्द डझन लारांज्यां घाल. धा रूपया काड'.

'काड पात्रांव', ताणें थंडपणान म्हळें. हांवे एक एक करीत सांसपीत, रंग पळेत, चार सफरचंदां ताच्या हातांत दिता सर ताणें आठ सफरचंदां पुडयेंत घालीं.

'जालीं बारा, ताणें म्हळें आनी बेगोबेग म्हाका कळचे पयलीं स मोसंबी बांदलीं. हांव सव्वीस रूपया दिवन मागीर भुसारी दुकानांत भितर सरलों.

'कितें जाय?' पुडवें सारकें करीत शिवाशेट उठलो.

'तांदूळ दाखय' आतां हांव बाजार करपांत खरेलोच शाणो जाल्लों. ताणें सात-आठ तरेचे तांदूळ दाखयले. हांवें तीस रूपया कील तसले तांदूळ आनी खोबरेल तेल घेवन खरशेत धांपेत घरा आयलों.

'हाडलें सगळें?' बायलेन हातांतल्यो पोतयो घेतां घेतां विचारलें.

'हय तर, सामकें लक्ष दिवन पळोवन घेतल्यात वस्तू'.

पुरो जालां म्हूण हांव माळयेर हांथरूणार आडवो जालां मात, सकयल्यान आवाज आयलो- 'एऽऽ, हांगा यो मात्सो'. हांव धांवत सकयल आयलों.

‘हे कितें हाडलां? दोन तोमाटां कुसल्यांत, चार सफरचंदां मोव जाल्यांत. दोन लारांज्यां सुकल्यांत. ओले कोथमिरेक जिवूच ना आनी हे तांदूळ तर सामके मोटे. तुका सगळ्यांनी फटयलो’.

‘हय, पूण हांवें....’, म्हाका उतरां फुटलींच नात.

कुसकीं तोमाटां, सुकडीं लारांज्या आनी मोव सफरचंदां सांगातान म्हजे मन बावकें जावन बसलें.



# सौ. मंत्री

दुकानामुखार एक धवीफुल्ल गाडी थांबली. ड्रायव्हर उठलो. आनी फाटलें दार उगडलें. फाटल्यान एक बायल मनीस बशिल्ली. तिणें एक कागदाचो कुडको ताज्या हातार दिलो आनी एक शंबराची नोट दिली. ड्रायव्हरान दार बंद केलें आनी कागद घेवन दुकानाचे दिकेन चलत आयलो.

'मंत्र्याली गाडी मरे!' एका गिरायकान दुसऱ्याक म्हळें.

'सौ. मंत्री भितर बसल्या शी दिसता.....'

इतल्यांत ड्रायव्हर भितर सरलो. लोकांनी ताका वाट करून दिली. ड्रायव्हर आपुणूच मंत्री कसो नेटान फुडें सरलो आनी णव्वद रूपयांचें सामान घेवन दुडू फारीक करिनासतना गेलो. पसरकार बावडो कितें म्हण्टलो? मंत्र्यालो ड्रायव्हर! तोंड धांपून वगी रावचें पडलेंना!

'णव्वद रूपया जाले' ड्रायव्हरान सौ. मंत्रीक सांगलें आनी धा रूपया परते दिवंक केले.

'दवर तुका ते!' सौ. मंत्रीन थाटान म्हळें. थोड्याभितर सांगपाचें म्हळ्यार त्या दिसा पसरकाराक णव्वद रूपयांचें लुकसाण, लोकांचो मोलादीक वेळ पिड्डयार, सौ. मंत्रीक णव्वद रूपयांचें सामान एका अर्थान फुकट मेळून लेगीत शंबर रूपयांक नकळत फटको आनी मंत्र्याच्या ड्रायव्हराच्या बोल्सांत मंत्र्यांच्या खुस्तार शंबर रूपयांची बेरीज.

मंत्र्याच्या घराकडेन गाडी थांबली. सौ. मंत्री गाडयेंतल्यान सकयल देंवली. कितें थाट! उंच खोटांचें जोतें (आयुश्यांत केन्नाच 'पायल' शिवाय दुसरें जोतें घाल्लें याद जायना) केंसांची स्पेशल स्टायल, तांबडी गुंज लिपस्टीक, खांकेक पर्स, आंगार झगझगीत शालू (हरशीं लग्नांक लेगीत खतां पडिल्लें वायल नेसून वचपी मनीस ही), दोळ्यांक गॉगल (लोकांच्यो बायलो घालतात न्हय म्हणटकच हिका उणें पडलें) आनी भेंड हालयत चाल. म्हाका पयलीं खरेंच

दिसना हीच काय आमची व्हनीबाय, आतांची सौ. मंत्री?

गेटीर दोनूय वटेन दोन शिपाय. सौ. मंत्री कोणाक पळयनासतना झेतान घरांत सरली. बसनाफुडें तिका झेलाद मॅन्गोला हजर. हरशीं गळो सुकता म्हळ्यार बोब मारल्यार कोण येनाशिल्लो. आतां नाका म्हणल्यार पांच स जाण शेपडेफाटल्यान तयार! सौ. मंत्रीचो कितें रूबाब! कितें थाट!

आतां आतां सौ. मंत्री भायर सरनाशिल्ली. सरलीच जाल्यार मंत्र्याले गाडयेन. केन्नाच स्कुटरीर बसूंक नाशिल्ली बायल आतां मोव मोव मोटारीचे गादयेर हात पातळावन बसतना मजाच दिसताली. हारशे उकते.... शेजाऱ्यांनी पळोवंक जाय न्हय. वळखिचे तिका हटकिताले, हात करताले. पुणून आमगेली व्ही. आय. पी. परती हांसता व्हय? आतां ती सौ. मंत्री जाल्या.

एक दीस मंत्र्याक पार्टी आसली. बायलूय बरोबर गेली. शालू नेसून, भांगतिळो लावन, मोतयांचो हार घालून, पांच बोटांक पांच तरेची नेल पॉलीश लावन. चार चार मुदयो घालून. थंय बाकीच्यो बायलो आशिल्ल्यो. 'एस, नो, सॉरी, कम, गो, अशे मेजकेच इंग्लीश शब्द येता हे बायलेक पार्ट्यो कोणे सांगल्यात?

'हॅलो, हाऊ आर यू?' एकटेन विचारलें.

'एस, थँक्यू बाय', तिणें म्हळें आनी कुशीक बसली.

तिका एकलीच बसल्या ती पळोवन एका दादल्यान तिका प्रस्न केलो.

'नॉट फिलींग व्हॅल?'

'नो कम', तिणें म्हळें, तो म्हन्यात गेलो. 'वॉट?'

'गो सॉरी!' ती हांसली.

सौ. मंत्री भजेन दीस घालयताली. कालोराचे दीस! भुरग्यांक सुटी पडिल्ली. मंत्री आनी सौ. मंत्री महाबळेश्वराक गेल्लीं. भुरग्यांक घेवन. काय दिसांनी मंत्री आनी सौ. मंत्री आपल्या गांवांत परतलीं. गेटीर पोलीस नाशिल्ले. मंत्री घरांत गेलो. फाटोफाट सौ. मंत्री.

'आरे बंटू, पिंटू खंय गेल्यात सगळे? कोणेच 'ओ' दिली ना.

'व्हनीबाय बरी मगे? आयली थंडसाणीक वचून?' शेजान्नीन भितर येत म्हळें.

सौ. मंत्रीचो झेत मोटो. तिणें तिडकीन विचारलें.

'कितें म्हळें? कोणाक विचारता गे तूं? हांव कोण ती जाणा मगे?'

'हय तर, म्हजी शेजान्न, व्हनीबाय!'

'बंटू हिका भितर कोणे सोडली?' सौ. मंत्री ताणशेली.

'आगे पापणी, बंटू गेलो गांवाक. आता दार राखपाक कोण ना आनी येवचोय ना. सरकार पडून चार दीस जाले. आता तूं सौ. मंत्री नासून पर्थून आमगेली व्हनीबाय जाल्या'. व्हनीबाय थंयच घुंवळ येवन पडली.

दुसरेच दिसा व्हनीबाय चलत खोबरेल आनी लोणचें व्हरपाक दुकानार स्वता येता ती लोकांक दिसली. लोक फाटीं सरले नात. बावडेक 'क्यू'त रावचें पडलें.

'आयली?' पसरकारान विचारलें, 'पयलीं फाटलीं उदारी पावय आनी मागीर बाकीचें व्हर'.

'कितें, हांवें सगल्या सामानाचे पयशे म्हज्या ड्रायव्हराकडेन दिल्ले'.

'ताणें ते म्हाका दिवूंक नात. सगलें बील हांवें पटयेर मांडून दवरलां. तूं एक दीस येतलीच म्हूण हांव जाणा आशिल्लों.' पसरकारान पटी उगडली.

'चाळीस हजार सातशें बावन्न रूपया!'

व्हनीबाय घुंवली.

'चड न्हय ते. साडे तीन वर्सांचें बील तें..... बेगीन फारीक करात!'

कांय दिसांनी व्हनीबाय कुळारा वचपाक बसीक उबी रावल्या ती दिसली. म्हजी खात्री पटली व्हनीबाय आता पर्थून एकदां व्हनीबाय जाली.... सौ. मंत्री उरूंक ना!

❑ ❑ ❑

# नळ

म्हज्या घराच्या गोंयंडयाभायरूच रस्त्याचे पलतडीन सरकारी उदकाचो नळ बसयिल्लो आसा. सदांच सकाळचो कामाच्या निमतान भायर सरतना त्या नळाचेर म्हजी नदर वचप हें थारिल्लेंच! सुको सडसडीत नळ! उदकाचो थेंब ना. केन्नांय उदक दिसलेंच तर समजुपाचें कीं कोणा सुण्याचे 'काम' म्हूण. नळ तसो पोरण्या काळांतलो न्हय... घालून पांच वर्सां जावये. न चुकतां त्या नळाक पळोवप आनी म्हजे तकलेंत विचार येवप नेमाचें जावन पडलां- ह्या नळाक केन्नां उदक येतलें काय?... थोडयो बायलो बावडयो सदांच येवन नळ उगडून पळेतात... उदक आयज येत काय, फाल्यां येत काय... पुणून ना! नळाची खरी काकूट! नळासारको नळ आसून तो लोकांची तान भागोवंक शकना... केदें दुख्ख!

❒ ❒ ❒

'आयकलां?' शेजान्नीन आपल्या घोवाक मोट्टयान साद घालो.

'कितें जालां गे?' कांतान त्याच नेटान प्रस्न केलो.

'आयज नळाक उदक आयलें!'

'कितें?... उदकूच मगो काय .....?'

'उदकूच! सामको पळय कसो फोर्सान व्हांवता.'

हावेंय आवाज आयकून पळयलें... खरेंच... नळ घसघस व्हांवतालो. म्हाका अजापूच दिसलें. नळ कित्याक व्हांवता? तोय बी येद्या फोर्सान, फाटीक वाग लागिल्लेवरी.

'हय गो, तुका खबर आसा?' हांवें बायलेक विचारलें, 'नळ कित्याक

व्हांवता तो?'

'नळ व्हांवता?' बायलेन विचार केलो, 'फाटलीं मतां मारपाक दोन म्हयने आसात म्हळ्यार नळ घाल्लो तो सुकोच आसा. आता उदक आयलां म्हण्टा?... पर्थून मतां बी लागीं नात मूं?'

'आं....' म्हजेय तकलेंत ट्यूब लायट आयज बेगीन पेटली, 'हय गो बाये, कालूच तिटयार बाप्पा शिवलो म्हणी आमच्या मतांक हे फावटीं आमच्याच गांवचो उबो करूंक जाय म्हूण.... लागीं आसा जावये'.



घरा येतना वाटेर शेतांत लोकांची गर्दी कसली म्हूण पळोवंक हांवे स्कूटर बंद केली आनी ते वाटेन चलत गेलों.

आमचो आमदार भाशण करपाचे तयारेंत आसलो. म्हजें कुतुहल वाडलें. हाचे चार शब्द आयकुया म्हणतकच ह्या पांच वर्सांत सरकारान कितें केलां (?) तें कळटलें, फुडल्या पांच वर्सांत कितें करतलो तेंवूय कळटलें. म्हजे बुध्दींत थोडी भर पडटली...

'म्हज्या मोगाळ मतदारांनो तुमकां खबर आसाच, मतां लागीं पावलीं. देखून तुमचे वांगडा थोडें उलोवचें म्हूण हांव आयज आयलां....'

'पांच वर्सां खंय आसलो रे?' कोणे तरी म्हज्या शेजरा म्हळें

'पयशे करतालो', दुसऱ्यान जाप दिली.

भाशण चालूच आसलें.

'... हांवें विधानसभेंत सांगलें आमच्या गांवांत रस्तो आसा पुणून तो मातयेचो, ताका डांबर ना, रोखडेंच डांबर आयलें आनी रस्तो तयार.'

'आरे x x x रस्त्याक बुराक पडल्यात मरे, डांबर खंयचें? फातर

लेगीत ना पोंदा. फकत माती.....'

'..... आमी रस्त्यार चलोवपाक टेंपो घाले.... चार चार टेंपो.... तांचे जडायेन रस्त्याक आयज बुराक पडल्यात. ते सरकारान पळयलां.... मतां पयली सरकार ते बुराक भरून काडटलो....'

'कूंऽऽ', कोणे तरी फाटल्यान पिल्लूक मारली. हांवें बेगीन हॅल्मेट चडयलें. सांगू येता व्हय, खंयचेय दिकेन कुसकीं तातयां वा टोमाटांचो वर्शाव जालो जाल्यार?'

'..... फाटल्या मतांवेळार हांवें विधानसभेंत प्रश्न केल्लो, आमच्या गांवच्या लोकांक नळ कित्याक ना? मुख्यमंत्र्यान सागलें, काकुळट मरे, नळ ना? दिवया.... नळ मेळ्ळो.... काल पर्थून हांवें विधानसभेंत सांगलें.... नळ मेळ्ळो, उदक ना.... रोखडेंच घसघस उदक तयार...... आयज ह्या खिणांक तुमी जाय तितलें उदक वापरून धादोशी जायात'.

'ठोऽऽ' म्हज्या शेजरा उमेशाच्या खड्डयार तांती आपटलें. हांवें हॅल्मेट सांसपिलें. लींप आसलें.

'...म्हूण तुमकां सांगतां हेय फावटीं तुमी तुमचो मोलादीक शिक्को म्हजेरच मारात-'

'बाबा, तो कितें म्हण्टा रे?' भुरग्यान बापायक विचारलें.

'बाबा, तागेली निशाणी हती'. व्हडल्या बाबान धाकटुल्या बाबाक समजायलो.

... भाशण चालूच उरलें. हांव घरा परतलों.



'आयकलां?' शेजान्नीन आपल्या घोवाक तिडकीन आपयलो.

'कितें गे.... निर्शेल्या शी?'

'नळाचें उदक बंद जालें.... कापडांचो शाबू  तसोच आसा'.

'कितें?'

घरां लागीं आशिल्ल्यान म्हज्याय कानार हेच शब्द!

'हय गो, तुका खबर आसा?' हांवें बायलेक  प्रस्न केलो, 'नळाचें उदक बंद शें जालें मगो!'

'बंद जालें... आं बरोबर, जावपाचेंच. मतां जावन ताचो निकाल लागून आमचो आमदार वेंचून आयलो न्हय.... आतां उदक कशे येतलें व्हय?'

'आरेरे... शेजान्नीच्या कापडांचो शाबू तसोच सुकतलो मगो तर!'







# सगळेच चोर

कॅपी ख्यास्त भोगून बंदखणींतल्यान सुटून स्वताच्या गांवांत पावलो. त्या वाठारांतले लोकांनी तो येता तें पळोवन तरेतरेचीं उतरां उलोवपाक सुरू केलें.

'हो पळे कॅपी कादयेंतल्यान सुटून येता. हाका थंयच दवरपाचो. सोडपाचोच न्हय. आतां हो पर्थून एकदां चोरयो करपाचे कामांक लागतलो'.

'कॅपी आयलो रे. पाकीटां सांबाळात'.

'असले नावाडग्यांक मार घालूंक जाय. दिसा उजवाडे चोरी करप म्हणजे कितें?'

हें सगळें आयकून कॅपी निराश जालो. कितलेंय जालें तरीं तोवूय एक मनीसूच! ताकाय अंतस्करण आसा. घरा ताचें स्वागत जायत शें दिशिल्लें पूण थंयूय तेच थोमणे.

'आमचें तोंड काळें केलें. आतां पर्थून कित्याक आयला? उरलां ते नाक कापपाक?'

हातपांय धुवन कॅपी हांथरूणार आडवो जालो. ताणें कुडींत वणटीचेर लोंबकळटल्या पायंजेलाकडेन पळेत दुखां गळयत देवाक विचारलें....

'देवा हांवें फेरीबोटींत पाकीट मारलें म्हूण तीन म्हयने बंदखणींत घालून दवल्लो. तुजे दृश्टीन तरी हांव चोर आसचोना अशें म्हाका दिसता. घरा येतना सगळ्यांनीच म्हाका हिणयलो....'

'देवा, तुजे राज्यांत कोण चोर न्हय? सगळेच चोर. नुस्तेकान्नीचे पोंतान मंत्र्यामेरेन सगळेच चोर. कोण साव आसात? सगळे दिसा उजवाडेच चोरी करतात. पूण तांची पध्दत आर्विल्ली. तांकां ख्यास्त ना. म्हाका मात तीन म्हयने बंदखण आनी जल्मभर 'चोर' म्हूण 'लेबल'.




देवा, म्हजी चोरी येदी व्हड व्हय? ज्या मनशालें हांवे पाकीट मारलें तो कॉंट्रेक्टराचें काम करता. हजारांनी लाखांनी दुडवांची उलाढाल करून लोकांक नागयल्लो मनीस तो. म्हजेसारक्या गरिबान चाळीस रूपयांचें पाकीट मारल्यार तीन म्हयने बंदखण तर ताका कितलो तेंप बंदखणीची ख्यास्त जावंक फावो तूंच सांग...'

'हांवें दिसाउजवाडे चोरी केली म्हण जग म्हाका तिडायता, नाका करता. हांगा मोटमोट्या मंत्र्याच्या कार्यालयांनी दिसाउजवाडे 'मेजापोंदच्यान' चोरयो घडून येतात. कांय वर्सांफाटीं सभापतीच्या पवित्र कार्यालयांत कितें घडलां तेंय तूं जाणा. तेन्ना तूं ओगी कसो? सद्या कारकुनाची नोकरी मेळूंक पंदरा हजार रूपया मेजून दिवचे पडटात. ही चोरी न्हय तर किते? काय हें तुजे दृश्टीन एक सत्कार्य?'

'ती मालिमची नुस्तेंकान्न म्हाका 'कुसको बांगडो' म्हण्टा. भायर उडोवपाचे कुसके बांगडे विकपी बायल ही. तेभायर मापां सदांच चुकीचीं. ही चोरी न्हय?'

'शिकिल्ले सवरलेले लेगीत चोरी करपांत उणे नात. दोतोर दुयेंतीचे इतइतले दुडू घेतात. देवासमान दोतोर जेन्ना वैजकीचे नांवाखाला दुयेंतीक नाडटा तेन्नां ताका चोरूच म्हणचो पडलोना? फार्मासिस्टूय उणें नात. चार रूपयांचे गुळयेचे सव्वाचार रूपयाच घेतले तर हजारांनी गुळयांचेर कितले दुडवांची चोरी जाली, कौंत कर'.

'देवा, पसरकार कितें फाटीं आसात? दोन साक तांदळांनी अर्द साक काळीं बियां मिस्तुराद करून विकपी वेपारी पळेल्यात हांवें. ते चोर न्हय तर साव?'

'हॉटेलांत वचत तर धा रूपयांचे दोन बटाटवडे खावन लेगीत पोट भरना. येदोसो थिपक्या येदो बटाटवडो पांच रूपयां. हाका तूं सत्कार्य म्हणटा? ही दिसाउजवाडे चोरीच न्हय? दूदकारालें दूद म्हणजे फकत उदक, मात धवो





रांप. ते चोर न्हय कित्याक?'

'हांगा बायलांचेर, चलयांचेर अत्याचार करून लेगीत लोक कोर्टांत सुट्टात. तांकां सोडोवपाक मंत्र्यांचे वशिले पडटात. म्हणटकच मंत्री, आदवोगाद आनी जुवीज चोर न्हय तर कोण?'

'देवा, हांवें चाळीस रूपया चोरले आनी णव्वद दीस कादयेंत घुस्मटलो. आतां कादयेंतल्यान सुटूनय घुस्मटतां. म्हाका न्याय दिवपी तूंच एक. सांग, खरो चोर कोण? हांव एकलोच? काय सगळेच?'



# आगळ्या मनशाली वेगळी मुलाखत

‘आयज तुमचे मुखार तुमच्या आमच्या प्रस्नांच्यो जापो दिवंक हजर जाल्ले आसात आमच्या मंत्रिमंडळांतले एक नवे मंत्री.... मंत्री नवे जाले तरी हरशीं ताणीं राजकारणांत खूब कितें घेतिल्लें आसा.... अणभव घेतिल्लो आसा. टाळयो घेतिल्ल्यो आसात, चपलां घेतिल्लीं असात, तोमाटां, कुसकीं तांतयां अशें खूब कितें घेतिल्लें आसा, तशेंच ताणी खूब कितें दिल्लेंय आसा... आश्वासनां दिल्लीं आसात, नोकऱ्यो दिल्ल्यो आसात (दुडू घेतिल्ल्याचें सिनाल)... अशे हे आमचे लाडके मंत्रीमहाशय आयज आमचे मुखार आयल्यात...’

‘तर मंत्री बाब तुमीं राजकारणांत भितर कशे सरले?’

‘दार उगडून’.

‘म्हणजे?’

‘ताचें अशें जालें, हांव ल्हान आसतना आमगेर एक दीस एक बसका चलताली. म्हजो बापूय व्हड राजकारणी. ताणें एकूय इलेसांव सोडलें ना. ताच्या नांवार एक विक्रम आसा. पांच फावटी एकाच मतदारसंघांत उबो रावन निवडून ना येवपाचो. एक दीस ताणें वेंचणुकेचेंच उलोवपाक एक बसका आपयिल्ली. कितें उलयता तें पळोवया म्हूण हांव दार उगडून भितर गेलों आनी राजकारणांत पडलों’.

‘अशे! आं... तुमी मंत्री जाल्यात. हे येदे व्हडले सुवातेर पावपाक तुमी कसले कश्ट सोसले?’

‘कश्ट भयंकर सोंसले....सोंसपाचे न्हय रे बाबा. वेंचून येवप म्हणजे फकाणांचीं कामां न्हय. थोडो पयसो ओतलो ना. वेंचणुकेच्या पयल्या दिसा दरेकाच्या घरांघरांत वचून दुडू वांटल्यात. म्हाका म्हणून परवडले तें. घरांतल्या





सगल्या बायलांक साडयो आनी दादल्यांक एकेक पुडवें. पुडवें न्हेसनात तांकां मोटवे कलसांव शिवपाक कपडो.  सगळ्यांकूच लांब कलसांवां शिंवपाक कपडो कसो दितलो रे हांव? परवडूंक जाय न्हय रे? चार लाख मतदार तरी आसतना दिले. तेभायर तांच्या भुरग्यांक पांच पयशांच्यो चॉकलेटी. दरेकाक दोन! सेवा करूंकूच जाय न्हय?"

'हय तर! पूण तुमी पांचशे मतानींच वेंचून आयले न्हय?'

'तेंच न्हय रे. चार लाख लोकांनी साडयो, पुडवीं, कलसांवां घेतलीं. लोक बेमान रे. मतां दिलीं ना तीं नाच. पूण चार दिसांनी म्हज्या घरार मोर्चो मरे....' 'बायलो म्हण्टात साडयेची घडी मोडटनाच साडी पिनली म्हूण... दादले म्हण्टात कपडो एका पायांक  लेगीत कलसांव शिवूंक पावचो ना म्हणून, हांवें सांगलें, कपडो तसोच दवरात, फुडले वेंचणुकेक दुसऱ्या  पायांचो  कपडो दिवया. बरोबर न्हय?

'हय तर... मंत्रीबाब म्हाका एक सांगात. तुमचे खातें कसलें?'

'म्हाका अजुनूय पक्कें अशें खातें मेळूंक ना. आमचे मंत्रिमंडळ व्हड आनी खातीं उणीं म्हण्टकच कितें जालां जाणां? दरेक खात्याचे फांटे जाल्यात. हांव मंत्रिमंडळांत अखेरेक आयिल्ल्यान म्हाका खुबशा खात्यांतले वांटे मेळ्ळ्यात. आयज म्हज्या मंत्रिमंडळाखाला भलायकी खात्यांतले भायली पिडा आनी एडस लागण, नुस्तेंमारी खात्यातलें नुस्त्या बोटी आनी जाळां, रान खात्यांतले सायल, पणस, वड, शिसय, आनी नाणो सोडून बाकीचीं झाडां, शिक्षण खात्यांतले लापस आनी पेनां आनी अन्न पुरवठो खात्यांतले चणे आनी भिकणां आसात'.

'अशे आं...... तुमकां मंत्रीपदाचे कितेंय लाब वा लुकसाण?'

'लाब खूब आसात. पयलीं म्हणजे पूल मोडल्यात थंय थंय अग्रक्रमान फेरिबोट हुंपूक मेळटा, आपापल्या खात्यांनी जाय जाय तांकां कामांक लावंक मेळटात.

.. सरकारी गाडयेन भोवूंक मेळटा. हांव पसून नासत तर बायले भुरग्यांक ड्रायव्हरा सांगातान जाय थंय भोंवूंक मेळटा. ते भायर तुज्या खात्यांत तूं राजा'.

'म्हणजे?'

'आतां हेंच पळे. हांव बारीक झाडांचो मंत्री म्हण्टकच म्हाका ते प्रकारचीं जाय तितलीं झाडां मारून घरा व्हरूंक येता. कोण विचारतलो ना'.

'आनी लुकसाण?'

'लुकसाण कांय ना... फकत लोकांची उतरां थोडी घेवचीं पडटात, पूण आमी असल्या उतरांक भीक घालतात? आमची राजकर्ण्यांची कात दाट मरे. तूं नकळो?'

'हय तर'... निमाणो प्रस्न तुमी मंत्री या नात्यान कितें करपाचें थारायलां?'

'खूब कितें करीन दिसता पुणून ते शक्य ना. आतां म्हजी खातीं पळय. भायली पिडा आनी एडस लागण घे. एडस उणे करप वा ना करीन दिसता पूण ते शक्य आसा व्हय? हांव फकत आंकडे सांगूक शकतां इतल्या जाणांक लागण जाल्या आनी इतले जाण मेल्यात म्हूण'.

'बरोबर... बरें मंत्रीबाब. तुमी वेळ वगडावन आयिल्ल्याबद्दल देव बरें करूं'.

'धन्यवाद'.






# घुस्पागोंदळ

जून जुलय म्हयने म्हळ्यार सामके गडबडीचे. दरेका बारावी विज्ञान पास जाल्ल्या भूरग्याक आपलो फुडार कितें हें चितपाचे हे दीस. तेच बरोबर तांचे आवय बापायचेय काचाबूल जावपाचे हे दीस! दिसाचो, रातचो, दनपारां, सांजेचो फक्त आपल्या भुरग्याचो फुडार. तांकां सपनांय तसलींच पडटात आंसूंये. आपल्या पुताक वा धुवेक वैजकी वा इंजिनियरींग म्हाविद्यालयांनी प्रवेश मेळचो हे खातीर कांय वेळार भुरग्यांपरस आवय बापुयूच चड हात पांय आपटितात.

ह्या वर्सा अशीच गडबड जाली. कांय दिसांपयलीं म्हजी बारावेची एक शिक्षिका म्हजेसरीं आयली.

'वैजकी प्रवेशाचे काम खंयचो ऑफिसर पळेता, जाणां तूं?' तिचो प्रस्न.

हांवें नांव सांगून परतो प्रस्न केलो, 'मॅडम तुमचें कितें काम?' मनांत चिंतलें हिगेली आनीक एक धूव वैजकी प्रवेश करपाची आसा काय कितें? पयलींच हिगेल्यो तीन धूवो दोतोर जाल्यात हें म्हाका खबर आशिल्लें.

'ना, हांवें वैजकी प्रवेश मेळिल्ल्या भुरग्यांची वळेरी वाचल्या', तिणें म्हळें.

'वाचली?' तुमची धूव आसा?' हांवें विचाल्लें.

'ना, म्हगेलो कोण ना ह्या वर्सा', तिणें निर्शेवन म्हळें.

'मागीर, तुमचें कितें काम आसलें तर?'

'ना, वैजकी वळेरेंत आपल्या स्वताच्या गुणांच्या वस्तादपणार मेळिल्ल्या जाग्यांनी निमणो जागो मेळ्ळा शेखर कामतीक. ते भायर धा जाणांची 'व्हेटींग लिस्ट' म्हूण वेगळी वळेरी मारल्या. ते वळेरेंत पयलो आसा तो संजय प्रभू ताका लागून हांव आयिल्लें'.

'ताका प्रवेश मेळटलो काय ना तें विचारपाक?'

'ना, ताका प्रवेश मेळ्ळो. सुटके झुजाऱ्यांच्या भुरग्यांक दोन सुवाती राखून दवरल्यात न्हय? त्या दोन सुवातींतलो पयलो जागो ताका मेळ्ळा'.

'मागीर प्रस्न मिटलो तर?'

'ना, प्रस्न दुसरोच आसा. हांव आयल्या मुखेल वळेरींतलो कोणूय भुरगो सोडून वतलो काय म्हूण विचारूंक?'

'तातूंत तुमचो कितें संबंद?' म्हाका अजून कांयच समजूंक नाशिल्लें.

'ना, संबंद आसा', तिणें परवड सुरू केली, 'जर मुखेल वळेरींतल्या कोणेय प्रवेश सोडीत तर ती सुवात प्रभूक मेळटली. म्हणजेच तागेलो सुटके झुजाऱ्यांचे भुरग्यांचे वळेरींतलो जागो रद्द जातलो'.

'हांणे तुमचें खंयचें काम जातलें?' म्हजी तकली उसळपाकडेन पावली.

'ना, प्रभू ते वळेरींतल्यान भायर सल्ल्यार ते वळेरींतलो दुसरो भुरगो पयल्या जाग्यार येतलो. तशेंच ते वळेरेंत 'व्हेटींग लिस्टांतल्या पयल्या भुरग्याक ते वळेरेंत जागो मेळटलो'. ती खोशी जाल्लेवरी दिसली.

'तो तुमचो कोण लागता?'

'ना, तो भुरगो म्हळ्यार कपिल घुमटकर. ताका डेंटीस्ट्रीत प्रवेश मेळ्ळा. जर ताका वैजकींत प्रवेश मेळत तर तो दंतशास्त्रांतलो प्रवेश नाकारतलो'.

'मागीर कितें जातलें?' म्हजें हड्डे आतां धडधडूंक लागलें.

'ताणे डेंटीस्ट्रीचो प्रवेश नाकारल्यार थंयच्या व्हेटींग लिस्टांत आशिल्ल्या आल्बेर्ट द सौजाक प्रवेश मेळटलो. त्या सौजाक फार्मासी विद्यालयांत प्रवेश मेळिल्लो आसा. डेंटीस्ट्रीत प्रवेश मेळत तर तो फार्मासी कॉलेजांतलो प्रवेश नाका म्हणटलो. अशे जर सगळे घडून येत तर फार्मासी विद्यालयांतल्या व्हेटींग लिस्टार जो पयलो आसा ताका फार्मासी कॉलेजांत प्रवेश मेळटलो.' तिणें उस्वास सोडलो.

'पूण तुमचें काम इतल्यान कशे जातलें?'

'फार्मासी कॉलेजांत व्हेटींग लिस्टार पयलो आसा तो म्हजो पूत, एकलोच पूत, तीन धुवां फाटलो'.

आता हांवेंय उस्वास सोडलो... ती वचनाफुडें हांवें कपलार हात मारलो. तिणे सांगिल्लो घुस्पागोंदळ पर्थून याद केलो. चितलें हिचे धुवांक सहज वैजकी प्रवेश मेळिल्लो, पूण पुताक मोठ्या सायासान फार्मासी प्रवेश मेळचो म्हूण तिणें तिनूय कॉलेजीच्यो प्रवेश वळेऱ्यो वाचून तांचेर सखोल अभ्यास केल्लो. असोच सखोल अभ्यास हिच्या पूतान बारावेंत केल्लो जाल्यार!.... ताका वैजकी प्रवेश मेळपाक कठीण वचचें नासलें.



# पुर्तुगेजा तेंपार आनी आज

दिनेशान म्हाका ताणें आयकल्ल्यो पुर्तुगेजाविशींच्यो बल्कांवांवेल्यो गजाली सांगल्यो आनी विचारलें, 'खरोच पुर्तुगेज इतलो बरो आशिल्लो? तुका कितेंय खबर आसा?'

'पुर्तुगेज कसो आशिल्लो तो हांवेंय पळोवंक ना. पूण तुवें आयकल्यात तशोच आनीकय खूब बल्कांवांवेल्यो, रस्त्यावेल्यो, हॉटेलांतल्यो, पुलावेल्यो, हॉस्पिटलांतल्यो, घराघरांतल्यो गजाली हांवें आयकल्यात आनी दरेक आयकल्ले गजालीचेर विचार केला की आतां हे बदल कित्याक? खुबशा वेळार आतां बदल जावपाफाटलीं कारणां हांवें सोदून काडल्यांत आनी मनांक पटलां की पुर्तुगेज कसोय आसलो तरीं पुर्तुगेज राजवटींत जें आशिल्लें तें आतां ना खरें'.



'पुर्तुगेज आसलो तेन्ना कितें पावस पड? शी! सत्री फुलोवचे पयलीं चिप्प भिजूंकच जाय... आतां पावसांत वर भर चलल्यार लेगीत सगळें आंग भिजना'.

हांवें चितलें, बरोबर! पावस पडूंक दाट झाडां जाय. आतां मोटीमोटीं झाडां मोटेमोटया राजकारणी मनशांल्या घराघरांनी पावल्यांत. पुर्तुगेज आसलो तेन्ना झाडांक बोट तेकोवपाची कोणाचीच कापाझदाद नासली. म्हण्टकच पावस तेन्ना चड पडलाच आसूंक जाय.



'पुर्तुगेजान बांदिल्लो पणजेचो पाटो तिनशें वर्सां सावन तसोच उबो मरे. नाजाल्यार आमगेल्या सरकारान बांदिल्ले पाटे पळय. केन्ना 'ढम्म' जायत नेम ना'.

'हेवूय खरे. पाटो पूल बांदला तेन्ना सरकारान पाट्याचे बांदकामाक दिल्ले सगळे दुडू पाटो बांदपाकूच घाल्ले. आतां पाटे बांदतना दुडवांक फांटे फुट्टात. एक फांटो इंजिनियराल्या घरा, दुसरो कॉन्ट्रेक्टराल्या, तिसरो मंत्र्याल्या, चवथो, पांचवो, अशे! म्हण्टकच पूल पाटे उरतले कशे?



'पुर्तुगेजांचे मुस्तींत कितें पाव रे? एक पावांनी भरिल्ली पिशवी हातांत धरप म्हळ्यार भूज दुखून आयलेंच म्हणून समज. आतां पावांनी भरिल्ल्यो पोतयो दोनूय हातांनी धरल्यार लेगीत धरल्यात म्हूण कळना'.

'बरोबर. तेन्ना सोल्दाद पावाची मापां पळोवंक नेमान येताले. आतांय इन्स्पेक्टर येतात. ना न्हय. पूण तांचे दोनूय तळव्यांचेर दोन हुनहुनीत पाव (पोके आसले तरी) उडयले की ते खूश. मापां तपासता कोण? म्हूण दिसान दीस पाव बारीक आनी पोके जायत वतात आनी पदेर मोटे जायत वतात'.



'आयच्या राज्यांत कांयच ले-कायदे उरूंक ना. पुर्तुगेजा काळार कोणाकूच चोरी-खून करपाची कापाझदाद आसली?'

'एकदम खरें. आतां चोर-खुनी वाडल्यात. तशे मंत्रीय वाडल्यात. चोर खंयचो, मंत्री खंयचो तें लेगीत कळपाक मार्ग ना. दुसरे म्हणजे आयचो चोर

फाल्यां मंत्री जावं येता तर आयचो मंत्री आजूच चोर आसूं येता. म्हण्टकच कोण कोणाक धरतले?'



'आमच्या चलयांक आनी बायलांक मात आतां सुशेग रे. पुर्तुगेज राजवटींत सांचे साता उपरांत बायलांनी रस्त्यार भोंवप म्हळ्यार संकट रे बाबा. सोल्दाद कन्नां येवन किर्ते करीत नेम नाशिल्लो.

'आतां रस्त्यार रातीचो भंय ना तितलो, कारण आतांचे पोलीस किर्ते करपाचें तें पोलीसचौकेर करतात, खंयच्याय वेळा, दिसा उजवाडे लेगीत, रस्त्यार 'शो' नाका म्हूण, हांवें चितलें.



अशे तरेन हांवें दिनेशाक सांगलें की अशो खूबशो विंगड विंगड गजाली आसात आनी दरेक गजाली फाटल्यान अर्थ आसा. पूण अजून ताचो प्रस्न मात तसोच आसा- पुर्तुगेज खरोच बरो आसलो काय? जाप म्हाका मेळना. घडये बरोय आसुंये, घडये वायटूय आसुंये पुणून एक मात खरें. पुर्तुगेजान गोंयकारांक खर रीत शिकयली, देखून गोंयकार भियेत उरले आनी तांचे हीत जालें. आतांचे राजकारणी फक्त स्वताचें हीत पळेत फीत कापीत उरले. हाणे गोंय सुदारतलें कशें?



# कोणाची ॲपेंडिक्स सुजल्या?

हांव दुयेंतीक घेवन हॉस्पिटलांत गेलों. दारांत कॉन्टेसा गाडी उबी आशिल्ली. दोनूय दिकांनी दोग शिपाय! कोणूय मंत्री आयला जावंये, हांवे तर्क काडलो आनी रामूक घेवन भितर सरलों.

भितरल्यान सगलीच धांवपळ! नर्स हे दिकेन धांवता, वॉर्डबॉय ते दिकेन वाट काडटा. पाळणींत दोतोर एकठांय जावन भासाभास करतात. कितें जालां काय? कांयच कळूंक मार्ग ना. कोणाक मान वाकडी करूंक, तकली वयर काडूंक ओंठ उगडपाक लेगीत वेळ ना. इतली गडबड!

हांव रामूक घेवन कॅज्युअल्टींत गेलों. थंय दुयेंतीची रीग लागिल्ली. सगळे वायटकार बाबडे आपलो नंबर येवपाची आशेन वाट पळेत आसले. कांय जाण व्हीलचेरार बशिल्ले. कांय उबेच आशिल्ले. थोडे तपासणी मेजार आडवे जाल्ले. भुरगे गर्मेन रडवे जाल्ले. हांवूंय रामूक घेवन कोनशाक उबो रावलों. रामूच्या पोटांत उजवे वटेन दुखतालें. ॲपॅडिक्स सुजल्या जायत!

'आयज हॉस्पिटलांत धांवपळ कित्याक?' हांवे म्हाका तेंकून उबो आशिल्ल्या एका दुयेंतीच्या बापायक विचारलें.

'तुका खबर ना? मंत्र्याले धुवेच्या पोटांत दुखता'.

'हय? खंयचे वटेन?'

'तें आमकां समजता व्हय?'

'कितें जालां तें तरी जाणात तुमी?'

'ॲपेंडिक्स सुजल्या अशे दोतोर म्हणी तें कानार पडलां म्हज्या'.

'हय?' हांवें आवंडो गिळ्ळो. म्हणजेच पोटात दुखप आनी ॲपेंडिक्साक सूज येवप हें खऱ्यांनीच धांवपळ करपासारकेंच दुयेंस तर! हांव घामाघूम जालों. रामूल्याय पोटांतच दुखतालें. ॲपेंडिक्साक सूज बी न्हय मूं? हांव बेगोबेग वाट




काडीत दोतोरासरी वचपाक लागलों.

पुणून दोतोर नाच! सगळे ओ.टी.त गेल्यात म्हूण कोणे तरी सांगलें. ओ. टी. म्हणजे? 'ओव्हर टायम' काय? म्हणजेच ड्युटी नासतना लेगीत दोतोर काम करतात? हें बरेंच कडक दुयेंस आसूंक जाय. मागीर कळ्ळें की ओ. टी. म्हळ्यार ऑपरेशन थिएटर. आं? कितें? एकदम ऑपरेसांव? म्हज्याय पोटांत दुखूंक लागले. रामूल्या चड दुखलां आसतलें.

हांव रामूक थंयच उबो करून वॉर्डबॉयसरीं गेलों. धवेफुल्ल कपडे घालून तो हांगा थंय पळेतालो. हांवे मानान मान हालयली.

'ब्रदर गुड मॉर्निंग!'

'कितें जाय?' ताणें नेटान विचारलें.

'ब्रदर, आयज दोतोर सगळे खंय गेल्यात तर?'

'आयज एक व्हडलें ऑपेरेसांव चालू आसा!'

'कसलें?' हांवे मुद्दाम विचारलें.

'मंत्र्याली धूव दुयेंत आसा. तिच्या अॅपेंडिक्साक सूज आयल्या. ती भायर काडूंक हो सगळो बोंवाळ.'

'ती काडून उडोवपाक कितलो वेळ लागता?'

'तसो चड वेळ लागना. धा-बारा मिनटां पुरो. पूण सवकासायेन कातरूंक जाय न्हय. मंत्र्याली धूव ती. अॅपेंडिक्स फुटली जाल्यार आमचेर कुटली'.

'म्हणजे अॅपेंडिक्स फुट्टा तर, आरे बाबा!' हांव मनांत थर्त भिलों.

'कोण करता ऑपरेसांव?'

'सर्जरीचो मुखेल वैज. आनी तांकां सांगाताक बाकीचे सात जाण सर्जन स्टॅंडबाय! हुंगरी लायता, हुंगरी विभागाचे मुखेल वैज. तेय आपल्या सांगाताक पांच जाणांक घेवन गेल्यात!'

'तरी बरें मरे. दुसरीं ऑपरेसांवां नासलीं म्हूण', हांवें खोशी परगटायली.

'एक आसलें तर- मुतखड्याचें, दोतोरांनी  ताका सांगले इतले दीस तूं सारको मुतूंक ना आयज आनीक एक दीस राव. फाल्यां काडूया मुतखडो. मागीर जाय तसो मूत!'

'अशे आं!' म्हज्या पोटांत कळ मारली.

उलयतां उलयतां वेळ  गेलो. कांय वेळान घाम पुशीत, समादानाचो हुस्कार सोडीत दोतोर आयले.

म्हजो नंबर येनाफुडें हांव भितर गेलों रामूक घेवन. दोतोरान ताका पुराय तपासलो.

'हाच्या ॲपेंडिक्साक सूज आयल्या. ती काडची पडटली. पूण सद्या नका. ह्यो तीन दीस गुळयो घे. मागीर सुशेगाद यो. दीस थारावन काडची. गडबड कित्याक?'

'पूण दोतोर ती फुटली जाल्यार?' हांवे भंय दाखोवन दिलो.

'तूं व्हडलो दोतोर कसो उलयता मरे. असल्यो शेंकड्यानी ॲपेंडिक्स काडल्यो मरे आमीं. तुज्या दुयेंतीची ॲपेंडिक्स म्हामोलाची काय कितें?' दोतोर तिडकलो. पूण दोतोर आतांच कांय वेळा पयलीं तुमी पंदरा वीस जाण ॲपेंडिक्स काडूंक गेल्ले न्हय ओ. टी. त? म्हाका पयलीं दिसलें मंत्र्याले धुवेचे ओ.टी.त लग्न आसा काय म्हणून? न्हय सगळे सर्जन आनी हुंगरीवाले, नर्सी वॉर्डबॉयांसयत एकदम म्हूर्त चुकिल्लेभाशेन धांवत वतात ते दिसलें म्हणून येवजलें  म्हाका', हांवेय ताणशेत शेरो माल्लो.

दोतोराक कळपाचें तें कळ्ळें.

'आरे बाबा, ती मंत्र्याले धुवेची अंपेंडिक्स. ती वाजप लावनूच काडची पडटा. ना जाल्यार आमचीच ॲपेंडिक्स फुटतली!'



# विसरभोळेपणा

आमी पांचवी यत्ता शिकतना 'मामाकी ऐनक' धड्यांत मामा आपलें वक्ल सगळ्याक सोदता पूण तें खंयच मेळना अशें आशिल्लें. कांय वेळान ताची भाची ताका सांगता वक्ल ताचेच कपलार आसा म्हूण. हो धडो शिकले उपरांत हांव सदांच येवजितालों मनीस इतलो विसरभोळो आसूंक शकता काय म्हूण? पुणून वर्सां गेलीं तशी तशी म्हाका विसराळुपणाचीं कितलीशींच उदाहरणां दिसलीं. म्हाका अखेरेक पटलें, थोड्यांक खऱ्यांनीच विसर पड्टा तर कांय लोक आपलीं कामां सादोवपाखातीर विसरभोळे आशिल्लेवरी वावुरतात.



हांव आई-बाबा सांगातान मामागेर गेल्लों. बसस्टँड थंयसावन चलून धा मिनटांचे वाटेर म्हण्टकच घरा येवपाच्या वेळार मामान आपले मोटारीन आमकां बसस्टँडार पावयले. आमी मोटारींतल्यान देवून बसीर चडटलीं इतल्यान-

'ओ हो, जोते घालेंच ना', आईन आकांतान म्हळें.

हांवे बेगोबेग ड्रायव्हराक उलो मारून, जोत्याचो जागो सांगून तें हाडून दिवपाक लायलें. तेन्नासावन खंयूय गेल्यार मोटारीन बसनाफुडे आमी आईक पयलो प्रस्न विचारतात- जोतें घालां मगे?'



बांबोळे वैजकी म्हाविद्यालयांत वचपाक खास बसी आसात. दोतोर आपल्यो गाडयो पणजे दवरून बसीन वतात आनी येतात.

असोच एक दीस सांजेचो घरा परतूपाचो वेळ. एक वैजकी बस गच्च भरिल्ली. आमी दुसरे बसीक राविल्ले. अचकीत पयले बसींतल्यान डॉ. (सौ.) द सौजान हातावारे करपाक सुरवात केली. म्हजे लक्ष थंय गेलें. कांय खिणाउपरांत कळ्ळें, ती म्हजे कुशीक आशिल्ल्या तिच्याच विभागांतले डॉ. धुंगटाक आपयता म्हूण. तिणें खुणेन कितें तरीं तांकां सांगले. आनी डॉ. धुंगट बसीक रावताले ते उठून गेले.

उपरांत कळ्ळें की ते दिसा डॉ. धुंगट बांबोळे स्वताची गाडी घेवन आयिल्ले म्हूण!



उमेश पार्टी करून घरा पावना फुडें भावान विचारलें, "वयनी खंय तर?' 'वयनी?' ताणे फाटीं वळून पळेलें तर कुंदा ना.

'आरेच्या वाटेर पडलें दिसता', उमेश घामेलो, 'वाटेर गजाली करीत आयला मरें हांव, केन्ना पडलें काय?'

दोगूय भाव गाडी घेवन क्लबांत पावले. तर कुंदा थंयच आसा.

'कितें वयनी, कशी पडली?'

'पडलें खंयचें? हांव स्कुटरीर बसचे पयलींच हो स्कुटर सुरू करून गेलो'.

'म्हणजे वाटेर तूं गजाली कोणाकडेन करी तर?' सगुणान उमेशाक तिडायत म्हळें.



डॉ. आनी डॉ. सौ. प्रभू लग्नाक गेल्लीं. येतना दोतोराचो एक इश्ट वांगडा आयलो. फुडले सिटार दोगूय इश्ट तर फाटले सिटार सौ. प्रभू बसलीं. कांय वेळान गाडी इश्टाले घराकडेन पावली. इश्ट देंवलो आनी डॉ. प्रभून गाडी सुरू केली.

मुखार कांय पावलांच्या अंतरार गाडी पावतकच डॉ. प्रभूक रस्त्यावेल्या कोणे तरीं 'राव' म्हूण हात केलो.

'कितें?' दोतोराचो प्रस्न.

'बाबा, कोण तरीं बायल मनीस तुमकां मोटेमोट्यान आपयता फाटल्यान'.

'कोण काय?' म्हणीत डॉ. प्रभून गाडी फाटीं घेतली तर सौ. प्रभू थंय उबी.

'आगो तूं गो? हांगा कशें उरलें?

'तुगेलो इश्ट फुडलो देंवलो तेन्नाच हांव फाटल्यान देंवलें फुडें येवंक. तर तूं फाटीं पळेनासतनाच गेलो'.



प्रदीप ऑफिसांतल्यान परततना वाटेर ताका ताचेच गांवचो वांगडी विजय भेटलो. दोगूय वांगडा घरा येतना वाटेर हॉटेल विहार लागलें.

'विजय चल या, भूक लागल्या. कितेंय खावया'.

'नाका रे, म्हाका भूक ना!'

'यो रे, हांव व्हरता न्हय तुका?'

'चल तर...' उपाय नासून विजय प्रदीपा सांगातान हॉटेलांत भितर सरलो. दोगूय वडा सांबार खावन चा पिले. वेटर बील घेवन आयलो. प्रदीपान बोल्सांत हात घालो. (काय घाल्लेवारी केलें?)

'आरेच्या पाकीट विसरलों मरे. तूंच फारीक कर मात्शे'. विजय बाबडो गरीब. ताणे बोल्सांत पळयलें, जेमतेम पंदरा रूपया आशिल्ले. बारा रूपयाचें बील फारीक करून विजय प्रदीपा सांगातान परतलो.



हांवें दुयेंतीक तपासलो आनी वखदां दिलीं. दुयेंतीचे आवयन दोगांय भुरग्यांक आनी स्वताक तपासपाचे दुडू विचारले. हांवें आंकडो सांगलो.

'दोतोर, मागीर दितां आं. गडबडीन आयलीं. पयशे घेंवक विसरलीं.'

'जांव काय नज', हांवें म्हळें.

हांवें दुयेतीची नोंद आशिल्ली चोपडी उगडून पळेली. ही ती दुयेंतीची गडबडीन पयशे 'विसरून' क्लिनिकांत येवपाची तिसरी फावट आशिल्ली.



आमच्या नव्या फ्रिजाचो स्टेबिलायजर एकाएक बंद पडलो. नवी वस्त म्हण्टकच 'गॅरेण्टी कार्ड' आसताच. पूण हें कार्ड हांवे खंय दवरलां तें म्हाका याद जायना. जागरण मारून हांवें सगळी कूड पळयली. पूण कार्ड मेळ्ळेंना.

दुसरे दिसा हांवें सहज म्हूण क्लिनिकांत पळयलें. तर थंयच्या खणांत कार्ड आसा. हांवें स्टेबिलायजर बंद करून बॅगांत घालो आनी काकुल्यागेर घेवन गेलों.

थंय पावून बॅग उगडीत तर... कार्ड ना! कार्ड हांव घरानूच विसरून आयिल्लों. पूण काकूलो म्हाका वळखता जाल्ल्यान कार्डाची गरज पडलीना.



# पुतळो रडटा

हांव ते दिकेन बांबोळी हॉस्पिटलाच्या ओ. पी. डी. ब्लॉकाकडेन वतालों. अचकीत कोण तरी रडिल्ल्याचो आवाज म्हज्या कानार पडलो. हांवें म्हजी बेगोबेग चलपी पावलां थांबयलीं. कान लांब केले. दोळे मोटे केले. कोणूच दिसना. आवाज मात येता. हांव त्या आवाजाचे दिकेन पुतळ्याच्या प्रवेशदारांतल्यान भितर सरलों. पुतळ्याच्या आडसाक रावन कोण रडटा काय, हांवें मनांक प्रस्न केलो. हांवें पुतळ्याम्हन्यांत वचून सगळो वाठार नदरेखाला घालो. कोणूच ना. आवाज तर मोठो येता. हांवें पुतळ्याकडेन पळेलें. पळे तर कितें? पुतळोच रडटा. हय, राजीव गांधींचो पुतळो रडटा.

हांवें बोल्सांतल्यान लेंस काडलो. पूण पुतळ्यान तो घेतलोना. म्हाकाय रडूंक येवंक लागलें. हांवें लेसान म्हजेच दोळे पुसले आनी थंडसाणेन पुतळ्याक विचारलें:

'राजीवबाब, तुमी रडटात कित्याक?'

'कितें सांगू?' हांवें रडचे न्हय तर कितें करचें? हांच्या कर्तुबांक हारतुरे घालचे काय हांकां म्हज्या खांदार बसोवचे?'

'कोणाविशीं उलयतात तुमी?'

'आनीक कोणाविशीं उलयतलो हांव? आमचे बरेगागते गोंयचे सरकारी मंत्रीगण आनी वांगडी जांणी म्हाका हांगा उबो केला. सुळार चडयल्लेवरी दिसता म्हाका'.

'हय न्हय?' हांवे म्हळें, पूण तुमी तांकां खांदार बसयल्यार बरे. थंयच बरे उरतले. सकयल देवंक येवचेना'.

'तुका आनी म्हजीं फकाणां सुचतात'.

'राजीवबाब, तुमच्यो अडचणी म्हाका सांगात तरी. हांव जाता ते परीन



तुमकां वयलो सकयल देवोवपाक हातभार लायतां'.

'नाका, म्हाका सकयल काडूं नाका तूं!'

'पूण तुमचे त्रास तरी सांगात म्हाका!'

'आरे, तुवे म्हजो देह पळेला रे पापया? हांव वोतान तापतां. थंडेन कुडकुड्टां हांव न्हाल्यार णव म्हयने जाले. म्हाका कोणे पुसलोय ना आनी पुजलोय ना रे. कावळे येवन म्हजेर नाका थंय बसतात. म्हज्या आंगार हळशीक करतात. त्या वासान म्हजें नाक चोंदलां मरे. हांकां एकूच दीस हो वास घेवन पळे म्हणून सांग रे. हे थंय चेराच्यो बाटल्यो मारतात मरे. म्हाका मात हे घाणींत रावचें पडटा'.

'अशें न्हय?' हांवे म्हळें मनांत म्हळें, 'भोंगूं बाबड्याचें.'

'म्हजे भोंवतणी पळे रे. पाचवेंचार तण दोन दीस दिसलें. आतां तण सुकून गेलां. थंय खातकुतल्यो वाडल्यात. वाऱ्यान तांचीं कणसां म्हज्या आंगाक येवन आपटतात आनी कसली बुड्डण लागता म्हूण सांगूं? आंग बुडडून काती गेल्यात. कसलें 'मटेरियल' वापरलां देव जाणा! आरे, त्या लॉनाक उदक तरी घालात मरे. ताची तान भागयात मरे. हे आपली तान कशे भागयतात ते दिसना म्हाका? लोकांचे खुस्तार स्कॉच बाटल्यो मारून आपली स्वताची तान भागोवंक कळटा तांकां, हांव हांगा तळपेतां, लॉन थंय करपता. ताची याद कोणाक आसा? सगळे सुवार्थी रे!'

'पुणून राजीवबाब तुमचे भोंवतणचो वाठार लिंप दवरूंक मनीस दवरल्यात अशें आयकलां हांवें.'

'खंयचे मनीस म्हण्टा तूं? दोन दीस पांच पांच जाण रावले. आतां कोण आसा? जितो मूस लेगीत ना. मूस जिते कशे उरतले? सगळीं झाडां करपल्यांत. एकलो कोण जाण्टेलो गार्ड आसा तोय ओपीडी ब्लॉकांत पांगरूण घेवन न्हिदता. म्हाका पळेता कोण?'





'अशें न्हय?'

'आरे, रातीच्यो लायटी पेटोवंक लेगीत एकेकदीस कोण नासता मरे. काळखांत भंय दिसता. हरशीं पयलीं हांव भिवपी न्हय रे. भिल्लों जाल्यार...'

'तेंवूय खरें', हांवे हयकार दिलो.

'राजीवबाब, गोंयचो फुडार कसो दिसता तुमकां?'

'फुडार कसलो? गोंय फक्त थंडेन कुडकुडटा तें दिसता म्हाका. फुडलें गोंय म्हाका खातकुतल्यांनी भरिल्ले, कावळ्या घाणींत बुडिल्लें आनी काळखांत पडिल्लें दिसता.'

'हाका उपाय कितें राजीवबाब?'

'हाका उपाय एकूच रे. सगळ्या राजकारण्यांक वयर उबे करप पुतळ्यांवरी, म्हणटकच तांकां कळटलें पुतळ्याक मान कमी, अपमान चड फावो जाता म्हूण'.

'खरें तुमचें!' म्हणून हावे पावलां परतिलीं.



# लर्निंग लायसन्स

पयर हांव आर. टी. ओ. ऑफिसांत गेलों. मोटारीचें 'लर्निंग लायसन्स' काडपाक! ऑफिसांत पावल दवरचे पयलींच सात - आठ जाणांनी म्हाका भायरूच घेराव घालो. 'हांव तांकां टेररीस्ट' बी दिसलो काय कितें? म्हजो आवरो उडलो.

'आरे बाबांनो, हांव लायसन्स काडूंक आयलां. बॉम्ब उडोवंक न्हय', हांवें भीत भीत म्हळें.

'जाणात आमी, म्हणुनूच तुका घट धरला'.

'म्हणजे? लायसन्स काडूंक बंदी घाल्या काय कितें?' म्हाका कांयच येवजलें ना.

'ना, आमी तुजे बरें मागते, तुका आधार दिवंक आयल्यात'. एकल्यान म्हळें. म्हाका सू जालें. लायसन्स काडपाचें काम म्हाकठीण म्हूण म्हाका म्हज्या आमिगांनी सांगून दवरलें. आतां इतले जाणांचो आधार मेळटा जाल्यार बेसबरें जालें. हांवें चिंतलें.

'अशें? चल या तर, सगळे वांगडा काडुंया लायसन्स'.

'आरे बाबा, तूं तुजें फोर्म, सर्टिफिकेटी आमचेकडेन दी. आमी तुका अर्दवराभितर लायसन्स हाडून दितात'.

'कितें म्हळें? आनी इंटरव्यू?' म्हाका अजाप दिसलें.

'इंटरव्यू?' सगळे खो करून हांसले.

'आरे बाबा, तुवें फकत दोनशें रूपया दिवपाचे. तुका हांगा उबो रावला थंयच लायसन्स तयार.' एका तरनाट्या मनशान मिश्यो सांसपीत म्हळें.

'दोनशें रूपया?'

'हय, शंबर इन्स्पेक्टराक, शंबर आमकां!' म्हजें काळीज कलकल्लें.

'पुणून हांवें फोर्म अजून घेवचेंच आसा. फोर्म घेवन तें भरून मागीर तुमचेकडेन येतां' म्हणून हांव ऑफिसांत गेलों.

काऊंटराभायर 'हीऽ' गर्दी. पावणेबारांक पांच मिनटां आशिल्लीं. पूण कोणूच क्लार्क काऊंटरार नाशिल्लो.

'हो खंय गेला काय?' एकल्याचो प्रस्न.

'तो टी. व्ही. पळोवंक गेला. मॅच आसा न्हय?' दुसऱ्याची जाप.

'आमी कितें कांदे सोलपाचे हांगा उबे रावन?' तिसऱ्याचो प्रस्न.

'ना, तिसऱ्यो कल्लावपाच्यो.' चवथ्याची जाप.

... गर्दी वाडत गेली. बारा जालीं आनी क्लार्क आयलो.

'कितें जाय?' ताणे एक व्हड जांभय दीत विचारलें.

'आमकां फोर्म जाय!'

'आतां बारा जालीं. काउंटर बंद करपाचो वेळ जालो. फाल्यां येयात', ताणें बिनधास्त उतरां फापुडलीं.

'कितें?' एकलो फणफणलो, 'आमी हांगा एक वर जालें उबे आसात. तूं येदो वेळ खंय गेल्लो?' तुका दार बंद करूंक कशेच मेळचेंना. कितलोय वेळ जावं, आमी फोर्म घेवनूच वतले'.

'भायर काड ताका, कसो दिना पळोवया', दुसऱ्याचें रगत सळसळ्ळें. त्या क्लार्काक फोर्म दिवचेंच पडलें.

मागीर फोटो काड, दोतोराचें सर्टिफिकेट घे, रेशन कार्डाची कॉपी काड, जल्मदिसाचो दाखलो हाड, झेरोक्स कॉपींचेर गॅझेटेड ऑफिसराची सही घे इतल्यो राटावळी करतासर तीन दीस गेले.

ते उपरांत हांव पर्थून आर. टी. ओ.त गेलों आनी भायल्या एजंटांक मेळनासतना भितर इंटरव्यू दिवंक 'क्यू'त रावलों. पावूण वर उबो रावले उपरांत म्हजो नंबर लागलो. घामाघूम परिस्थितींत हांव इन्स्पेक्टराच्या फुड्यांत उबो

रावलों.

'कसले लर्निंग काडटा?' ताचो खणखणीत आवाज.

'मोटारीचें', म्हजी मो़व जाप.

'तूं लग्न जाला?' ताणें पर्थून ऩेटान विचारलें, 'बायल भुरगीं कितलीं?'

'हय!' हांवें जाप दिली, 'एक भुरगो, तीन बायलो'.

'कितें?' तो ताणशेलो.

'चूक जाली, एक बायल, तीन भुरगीं.'

'अशीच चूक गाडी चलयतना करतलो?'

'ना!'

'एक सांग, रस्त्यार गाडी चलयतना फुडल्यान एक चली रस्तो हुपूंक धांवत ये़ता जाल्यार तूं कितें करतलो?'

हांव पेंचांत पडलों, कितें करतलो? अशा वेळार खूबशे किदें करूं येता.

- 'लेडीज फर्स्ट' म्हणून हांव गाडी स्लो करतलों आनी ताका रस्तो हुपूंक दितलों.

- घडये ताका बस धरूंक जाय अशें समजून हांव ताका 'लिफ्ट' दितलों.

- हांव गाडी ब्रेक मारून बंद करतलों, ताचे फाटल्यान कोणूय गुंड बी लागला काय म्हूण पळोवंक.

- मोठ्ठ्यान हॉर्न वाजोवन हांव ताका रस्त्याची याद करून दितलों आनी गाडी नेटान फुडें व्हरतलों.

आतां इन्स्पेक्टराक खंयचे उतर सांगचें? हांवें चिंतलें, सगळ्यो जापो दिवया, जाय ती जाप मानून घेवंदी.

पूण एकूय जाप इन्स्पेक्टराक मानवली ना.

'खरी जाप कितें तर?' हांवे प्रस्न केलो.

'लायसन्स काडूंक कोण आयला? हांव काय तूं? जाप तुवें दिवपाची,

हांवें न्हय. फुडले फावटी शिकून यो', ताणें म्हजें फॉर्म मेजार आपटीत म्हळें.

म्हाका एजंटांचे म्हत्व कळ्ळें. इंटरव्यूकूय आयल्यार तीच गत. येदो वेळ 'क्यू'त रावप आनी भितर अर्थ नाशिल्ले प्रस्न. भायर एजंटांच्या हातार दोनशें रूपया वडयल्यार कांयच त्रास नासतना काम जावपाचें. आतां कितें करचें? एकूच उपाय! हांवें पाकीट उगडलें आनी दुडू मेजूंक सुरवात केली.... शंबराच्यो करकरीत नोटी... एक, दोन, तीन, चार, पांच... इन्स्पेक्टरान बेगोबेग सही मारून क्लार्काक आपयलो आनी सांगलें–

'हाचें लायसन्स हाडून दी'.

'पात्रांव, पंदरा रूपया दी', क्लार्कान म्हाका सांगलें. हांवे पंदरा रूपया क्लार्काकडेन दिले आनी हातांतले दुडू पाकिटांत पर्थून लोटून इन्स्पेक्टराक 'थँक्यू' म्हणून क्लार्का फाटोफाट भायर सरलों.



# अनाडी व्ही. आय. पी.

शिक्षण घेवप सगल्यांत म्हत्वाचें अशे जाणकार मानतात. पूण नवे पिळगेक शिक्षणाचें म्हत्व पटना आनी तांकां तशें न पटपाइतलें कारणूय योग्य आसत घडये. तांचो पयलो प्रस्न गोंयांत येदे मोटे उद्येगपती आसात ते कितले शिकल्यात? खुद्द मंत्रिमंडळांतले कितले वांगडी शिकिल्ले आसात? ते काम करिनात? आनी आमचे परस चड जोडिनात? म्हण्टकच शिकप हे भौमोलाचे मानचें वा ना हो खरो मोलादीक प्रस्न जावन पडला. पूण एक खरे... शिक्षण जायच! जरीय मंत्री अडाणी आसले तरीय एक म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार शिक्षणाचो अभाव आशिल्ल्यान तांची फजेतय खूब वेळा जाता.



शेखर 'कॉल लेटर' घेवन मंत्र्यांकडेन गेलो. मंत्री गांवचेच आशिल्ल्यान कितेंय आपल्याक आधार करीत हे आशेन गेल्लो शेखर निर्शेवन परतलो.

कॅबिनांत मंत्र्यान ताका कदेलार बसयलो, 'कॉल लेटर' वाचलें आनी विचारलें 'इंटरव्यू केन्ना रे?'

'चार तारखेर, बरयलां थंय!'

'जाणा, खंयचो दीस पडटा?'

'सुक्रार....आसा थंय'.

'जाणा, कसलो लुगार तो?'

आतां मात शेखराक पटलें हाका मातूय वाचूंक येना म्हूण... शेखर च्या घेवन कॅबिनाभायर आयलो... तो अजून बेकारूच आसा.



'आमच्या गांवांत इलेसांव जालें. गांवच्या दादल्यांनी आनी बायलांनी कितें दाखोवपाचें तें दाखयलें,' त्या गांवचो नवोच वेंचून आयिल्लो आनी मंत्री जाल्लो आमदार उलयतालो, 'आज आमच्या गांवचो आमदार वेंचून आयलो, मंत्री जालो, पूण तुमी म्हजे फाटल्यान लागूं नाकात. तुमची उदरगत करपाक तुमींच हातपांय आपटुचे पडटले. तरीय फाटलीं धा वर्सां जे गांवांत जावना ते हांव करूंक सोदतां. आमकां 'वीज' सारकी मेळना. म्हजे घराकडेन पांच पेट्रोमॅक्स आसात. कोणाक जाय ताणे येवन व्हरचे. थोड्यो मोठ्यो मेणवातीय बॉक्सांत पडिल्ल्यो आसतल्यो. तांचोय तुमी वापर करूं येता.....'



'सर, आमच्या क्लबाचें हें पंचविसावें वर्स. त्या निमतान तुमीं कितेंय 'मेसेज' दिवची अशें आमकां दिसता.

'ना, आमी तसलें दिवपाचें बंद केलां. मागीर कॅबिनेट बसका जातली तेन्ना हांव विचारतां दिवची काय ना ती तुमी चलात आतां', मंत्र्यान बेजापसालदार जाप दिली.

ते भुरगे भायर येवन हो हो हांसत उल्ले.



एका मंत्र्याक क्रिकेट सर्तीक मुखेल पावणो म्हूण आपयलो. ताणे सर्त उक्ती करपा निमतान भाशण सुरू केलें.

'पळेयात हो फुटबॉलाचो ग्रावंड. तुमीं मोठे उमेदीन हांगा खेळूंक आयल्यात पूण एक सांगतां ग्रावंड पिड्ड्यार जावंक फावना. सुशेगादीन खेळात. तुमची ही

सिंगल विकेट सर्त. दोनूय पंगडाचे वांगडी झगडनासतना खेळात. हांव सांजेचो इनामां वांटूक येतां....'



'क्लबाचे अध्यक्ष श्री. वागळे, सेक्रेटरी श्री मांद्रेकर, आयचे मुखेल पावणे 'कस्तुरी'चे सहसंपादक श्री. राजन गोपाळकृष्ण, हांगा जमिल्ले माणकुले, दादले, बायलां आनी क्लबाचे हेर वांगडी सगल्यांक हांव देव बरें करूं म्हण्टां.' देमून सरपंच ह्या नात्यान क्लबाच्या कार्यक्रमाक भाशण करपाक सुरवात केली, 'कित्याक जाणा म्हाका तुमीं दोन उतरां सांगपाक हांगा आपयला. हांव श्री. गोपाळकृष्णाचे आनी तांकां आपोवंक गेल्ल्यांचेंय देव बरें करूं म्हणटा... तुमचें सगल्यांचें देव बरें करूं.... तर भुरगे हांगा जमिल्ले आसात. आमीं भुरग्यांखातीर खूब केलां. हांवे मंत्र्यांक सांगिल्लें हांगा भुरग्यांक शाळा बांदची म्हूण पूण शाळेचे जाग्यार सोऱ्याचे बार्र बांदलां. हांव त्या मंत्र्यांचें देव बरें करूं म्हण्टां कित्याक तर खूब जाणांक तान लागल्यार थंय वचून उमेद भागोवंक मेळटली....'



# दोतोरूच हांव!

खवं यचे एके फार्मासींत वखदां बदलून दितात अशें आयकल्लें. अशे खूब जाण आसात पुणून प्रत्येकाचो वखदां बदली करपाचो यत्न वेगवेगळो. थोडे सांगून करतात, थोडे सांगिनास्तना, थोडे खबर आसून करतात, थोडे खबर नासतना, थोडे दुयेतींक विचारून करतात, थोडे विचारिनासतना.

हांव एक दीस एके फार्मासींत वखदां घेवंक गेलों. गर्दी केदी! पूण कितें करतलो. गुळयो तर जाय...!

अचकीत एक आवाज आयलो.

'दोतोर, म्हाका थंडी जाल्या, कितेंय दी पळोवया'.

'कोण काय हो आनी कोणांक दोतोर म्हण्टा?' हांवे फाटी पळयलें.

'दोतोर, मात्शें बरेंशें वखद दी पळोवया,' त्या दादल्यान फार्मासीच्या पात्रावांक पर्थून सांगलें.

पात्रांव खोश्शेन तांबडो जालो... वखदूच कशें!...'दोतोर' म्हणिल्लें कोणांक आवडना?

'आं.... थंडी जाल्या?' ताणे मोटया नेटान विचारलें, दोतोर जाल्लेवरी, 'एक मिनीट राव आं.'

पात्रांव भितर गेलो आनी आरमारीचे हारशे उघडिल्ल्याचे चार-पांच आवाज आयले. कांय वेळान एक बाटली घेवन तो भायर सरलो.

'ही घे. सामकी फर्स्टक्लास. एक खेपेक एकेक व्हडले कुलेर भरून दिसाक सात आठ फावटी घे. थंडी नाच जातली'. ताणें अशा नेटान म्हळें जणू काय ते बाटलेंत वखद न्हय रसना भरलां.

'अशें? देव बरें करूं आं.... आं एक सांग, म्हजे घरकान्नीन घेतल्यार जाता व्हय ही?'

'हय तर..... कोणेय घेतल्यार जाता... दी तूं... सामकी फर्स्टक्लास'.

तो मनीस दुडू फारीक करून गेलो. म्हाका दिसलें ते बाटलेक पळोवनूच म्हजी थंडी ना जावपाकडेन पावल्या.

'पात्रांव हें रशेत काड पळोवया', एक आडसाटो भुरगो आतां फुडें सरलो. पात्रांवान पानार नदर मारली.... 'तुका मलेरिया जाला मरे.'

'म्हाका न्हय तें... म्हजे शेजान्नीक'.

'अशें? शी, हो रोग भयंकर वशाचो आं. एकल्याचो दुसऱ्याक येता. सांबाळून राव. न्हय शेजान्न म्हूण सांगलें', पात्रावांन ओगीच पटे मारपाक सुरवात केली, 'पुणून हे पळय. दोतोरान बरयलां तें वखद म्हजेकडेन ना. आमी असली वखदां हाडिनात. हे आतां पोरणे जालां. पूण तुका दोतोरांचे समजना? जावं! हांव तुका त्या बदलाक हे दितां.' अशें म्हणून पात्रावान 'अ' च्या जाग्यार 'ब' दिले.... आनी एक नदर म्हजेर मारली, आपणे दोतोराची परिक्षा घेतिल्लेवरी.

मलेरिया हो रोग भयंकर न्हयच. तो वशाचोय न्हय. दुसरो मुद्दो म्हळ्यार जें 'अ' वखद दोतोरान पानार बरयिल्लें ताजे कितलेशेच उपेग आसात हें म्हाका खबर आसलें. पूण तशे आसूं येता हें पात्रांवान चिंतलेंना. म्हणजेच ह्या पात्रावांक कसलोच अधिकार नासलो ह्यो गुळयो मलेरियाकूच दिल्यात हें म्हणपाचो. तिसरी गजाल ताणें ज्यो गुळयो बदलून दिल्ल्यो (ब) त्यो मात मलेरियाच्योच खऱ्यो पुणून तांची घेवपाची पध्दत सामकी वेगळी. म्हणजे जर ते रोगी बायलेन 'ब' गुळयो 'अ' गुळयांचे पध्दतीन घेतल्यो तर किते जायत तें पात्रावांक खबर नाशिल्ल्यान ताणें ताचो विचार सुध्दा केलोना. चवथी म्हत्वाची गजाल ते बायलेक मलेरिया भायर आनीक दुसरोच रोग आसत तर?... म्हजी तकली भिणभिणली. पुणून त्या रोग्याक आनी त्या दोतोराक पळोंव दी. म्हाका फुकट पिडापीड कित्याक? अशें म्हणून हांवें शंबर मेजले....

आतां हांव फुडें सरलों...

'हीं वखदां मात्शीं काड आं,' हांवे पात्रांवाक सांगलें.

पात्रांवान आपणाली नदर कागदार मारली आनी म्हळें, 'आसात आं,

दितां'. धा-बारा मिण्टांनी तो बाटल्यो-गुळयो घेवन आयलो.

हांवें वखदां तपासलीं... हें कितें रे? हांवे कितें बरयलां तें वाचलां तुवें? तुवें वेगळेच दिलां मरे!'

'दोनूय एकूच रे. हें वेल्यान बरें.... हें तुजे वखद ओंकारो थांबपाचें, हें संडास जावपाचें, हें जोराचें, हे थंडेचें, हे प्रेशर देंवोवपाचें....'

'आयक पात्रांव जें कितें ह्या कागदार बरयलां तशा तशें म्हाका जाय. तू आसा जाल्यार दी ना तर दिवं नाका. हें हाजें तें ताजें, हातून हें थारता, ताणे तें वाडटा हें तुका कोणें सांग म्हळां? आनी तुका कोणे सांगलें हें जोराकूच घेतात म्हूण? हे गुळयेचे उपेग कितलेशेच आसात... आनी, हें आनी तें वखद एकूच म्हूण तूं म्हाका सांगता?'

'आरे व्वा... कितें म्हळें? हांव श्रीनाथ... हे फार्मासीचो पात्रांव. जाणा मरे तूं? हांवें कितल्या लोकांची दुयेंसा बरीं केलीं. वखदां खरीं केलीं'.

'हें पळय, म्हाका तुजी फार्मासगीरी नाका. म्हाका हेच कंपनीचें वखद जाय. तूं दिता ते कंपनीचें नाका. कंपनी कंपनीत खूब वेगळेपण आसता. तूं गांवठी कंपन्यांची वखदां सवाय मेळटात म्हूण हाडटा आनी लोकांक कळना म्हूण तांकां बऱ्या कंपनींच्या बदलाक हीं हलकीं वखदां दिवन रोग्यांचेर तसोच दोतोरांचेर अन्याय करता. तुका कोणेय बुध्द शिकयल्या बगर सुद्द येवचीना'. हांवें तापून म्हळें.

पात्रांव आतां मात्सो विरघळ्ळो. ताजो आंवडो शिरकलो. तरी आसतना कसोबसो गिळीत तार्णे उलोवपाचो यत्न केलो.

'पूण तुका हें म्हाका सांगपाक अधिकार कोणे दिला रे? व्हडलो दोतोर कसो उलयता मरे तूं'.

'दोतोरूच हांव', हांवें म्हळे आनी वखदां घेनासतना परतलो.

त्या पात्रांवाचे वोंठ काळेच पडले... विखाळ वखद पियेल्लेवरी.



# कदेल्रोग

'ये काशिनाथ, कितें म्हणटा तुगेली कॉंग्रेसपार्टी?' हांवें म्हगेल्या शेजाऱ्याक आमगेर आयिल्लो तेन्ना विचारलें.

'आसा बरी. सगळे धादोशी आसात. मुखेलमंत्र्याच्या फुडारपणाखाला सगळेजाण गोंयचें भांगर करूंक फुडें सरल्यात'. काशिनाथान सांगलें.

'गोंयचें भांगर करूंक फुडें सरल्यात काय व्हरूंक फुडें सरल्यात?' हांवें काशिनाथाक तिडावपाक विचारलें.

काशिनाथ मोठो कॉंग्रेस शौकीन. ताका रोखडीच तिडक मारली.

'कितें उलयता रे तूं? गोंयची कितली उदरगत जाल्या ती पळेल्या मरे तुवें? गेल्ल्या पांच वर्सांक जी उदरगत जाल्या ती हाचे पयलीं दिसताली तुका? फुडें नदर मार आनी पळे. आमी ल्हान आसतना जमनीर झाडांपेडांक लागून काळोख पडटालो. आतां झाडां पेडां आमगेल्या सरकारान मुळासकट हुमटायल्यांत. सगळ्याक कसो लकलकीत उजवाड पडला पळे. पयलीं पावसातेंपार गोंयांत बुट्टी येताली. म्हजीं चपलां दरेक पावसान व्हांवून गेल्यांत. आतां झाडां नासल्याकारणान पावसूय ना... पयलीं तुका कितेंय करूंक बंदी आसली. भंय दिसतालो, आतां तूं जाय ते कर. कोणूच विचारतलो ना. सरकारच वेल्यान तुका आदार दिता. म्हणूनच कोणाकूच कोणाचोच भंय ना. हाचें सगळें श्रेय आमच्या सरकाराकूच वता काय ना...?"

"पयलीं बाजारांत कितेंय घेतलो जाल्यार पोती ल्हान पडटाली आनी सामान चड जाताले, आतां पोतयो व्हड जाल्ल्यात आनी सामानाची जडाय कमी. कितलेय दुडू मोडून लेगीत सामान आसा म्हूण कळना..."

"आतां पावलाकणकणी करमणूक करपाक मटक्याचे खेळ, गडगडो आसाच, तान भागोवंक धेपाधेपाक तावेर्नां दिसतात. पयलीं तेंपार जीव गेलो

तरी असले प्रकार दिसनाशिल्ले...'

'आतां शिक्षण लेगीत खंयच्या थराक पावलां पळे मरे. पयलीं भुरगे धावेक बारावेक बसताले, पास जाले ते सुटले, नापास जातात तांकां कोणूच पळेनासलो. आतां वर्सानवर्स नापास जाल्ल्या भुरग्यांचों आंकडो देंवत आसा कारण भुरग्यांक पयलींच आपलो निकाल कळिल्ल्यान दिसाळ्यांनी छापून येवचे पयलीं युनिव्हर्सिटीत वा बोर्डात वचून 'खटपट' करूं येता. नापासाचो पास जावंक आतां वेळ लागना....'

'आतां पणजेसावन म्हापशां वतलो जाल्यार दोन दोन पूल आसात. रहदारी वाडिल्ल्यान रस्त्यांक बारीक-मोठे, खोल-उथळ फोंड पडल्यात खरे पुणून सरकार म्हणटा चिंता करपाची कांयच गरज ना. आमी कोटयांनी दुडू वगडावन कितलींशींच वर्सां लागून बांबोळे नवें व्हडांतलें व्हड हॉस्पिटल बांदलां तुमचेखातीर. त्या हॉस्पिटलांत पावला तू? थंय वॉर्डांनी वतलो जाल्यार पृथ्वीक फेरी मारिल्लेवरी दिसता खंय!

'थोडया वॉर्डांनी आनी ऑपरेशन थिएटरांनी पळे वचून. गर्मी वाडटा म्हूण खास बंदोबस्त केला खंय. पाख्यांतल्यान उदकाचे घसघस लोट सकल पडटात खंय. हाणे थंडाय मेळटाच, तेभायर दुयेंतीक दूदसागर पळोवंक गेल्लेवरी दिसता खंय. मुजरत एक दीस पावस पडटा तेन्ना वचून येवंक जाय...'

'इतले सगळें करतां करतां आमगेले मंत्रीम्हाशय दुयेंत पडूंक लागल्यात. पूणून तुजेसारके लोक तांच्या बऱ्या कर्तुबांचेर पांगरूणां घालतात', काशिनाथ खर्शेवक लागलो.

'पुरो कर', म्हाका काशिनाथाली काकुळट आयली, हांवें ताचे फाटी वेल्यान हात ओडलो, 'तूं म्हणटा तेंच खरें. मंत्र्यांक आनी आमदारांक एका विचित्र दुयेसांची बादा जाल्या अशें म्हज्या कानार पडिल्लें.

'हय? कसल्या?'

'तांकां कदेलरोग जाला अशें आयकलां.'

'म्हणचे कितें?'

'ह्या दुयेंसातल्यान भायर सरपाक म्हाकठीण अशें म्हण्टात. कालूच म्हगेलो एक दोतोर आमीग हांगा आयिल्लो तेन्ना ताणें म्हाका ह्या रोगाविशीं विस्तारून म्हायती दिली. हो रोग फकत उंच पांवडयावेल्या आमदारांक आनी मंत्र्यांकूच जाता खंय. ह्या रोगाची लागण जाता तेन्ना तांचे दोळे तांबडे जातात, नाकापुडयो फुलतात, श्वास बेगोबेग जाता, आंग खिळखिळटा. हो रोग जाले उपरांत दुयेतींक ओगी रावूं नज जाता. तो फकत उंच कदेलार बसूंक सोदता. बसपाक कदेल मेळना जाल्यार तो कुशीच्या मनशाचें कदेल ओडटा. कदेलार कोणूय बशिल्लो आसल्यार लेगीत ताका तेन्ना पर्वा नासता. तो ताका धुकलून उडोवंक पळेता. हालचना जाल्यार आपल्या हेर वांगडयांक एक करून तो कदेल फोर्सान बळकायता. कदेल मेळ्ळें की ताचें मन शांत जाता. सळसळलेंलें रगत थंड जाता, पूण ताका चड वेळ बसूंक मेळना कारण तो रोगांतल्यान सांवरतासर दुसरो आमदार ह्या वशाच्या रोगाचो बळी थारता आनी तो नव्या आमदारांक घेवन तें कदेल आपूण ओडटा. गोंयांक खूबदां ह्या रोगान वेंग मारल्या. आयजमेरेन हाका वखद कितें तें कोणाकूच कळूंक नासलें'.

'आतां कळ्ळें?'

'हय, आतां कदेलार बसला ताणें तें वखद हाडून घेतलें. असोच कदेलरोग जाल्लो एक मंत्री हेर वांगडयांक घेवन ताका कदेलावेल्यान उडोवंक फुडें सरिल्लो. पूण निमाण्या वेळार ताचेर वखदाचो खर डोज घालून मुखेलमंत्र्यान ताका धांवडायलो.'

'कसलें तें वखद?'

'खलपामिसीन.'

'ह्या वखदान कदेलरोग बरो जाता?'





'हय, हें वखद भयंकर प्रभावी. ह्या वखदान वेगळेच आमदार एकठांय येवन पयलीं कदेलार बशिल्ल्या दुयेंतीक तेंको दितात. म्हणटकच नव्या कदेल रोग्याचो प्रभाव उणो जावन तो फाटीं सरता'.

'अशें न्हय?' काशिनाथ घामेलो, आनी कदेलावेल्यान उठलो.

'तूं कित्याक भिता? तुका-म्हाका जायना हो रोग. बस तूं.. आनी जालोय जाल्यार....'

'वखद आसाच!' काशिनाथान म्हजें वाक्य पूर्ण केलें आनी कदेलार पर्थून बसलो.



# मांडवीर नवो पूल बांदलो तेन्ना

कपिल आनी सुनील फाटीक लागले म्हूण हांवें तांकां मोटारीन नवो पूल दाखोंवक व्हेले. गाडी मालीम पावली. पूल पळेनाफुडें चार वर्सांचो सुनील खोश्शेन गाडयेंतूच बोवाळ मारूंक लागलो - 'नवो पूल आयलो, नवो पूल आयलो'.

हांवें गाडी हळु पुलाचे चडटेचे दिकेन व्हेली. इतल्यान सात वर्सांच्या कपिलान आड्डी मारली, 'पप्पा, गाडी खंय व्हरता रे? आमी तळ्यांत पडटले मरे'.

तो कितें म्हणूंक सोदता तें म्हाका कळ्ळें.

'बाबा, तें तळें न्हय, रस्तोच तो. पुणून रस्त्याक मोठीं मोठीं फोणकुलां पडल्यांत थंय पावसाचे उदक सांचून तळ्यावरी जालां. पळोंवक तळेंचशें दिसता.' हांवे ताका समजायलो.

त्या फोणकुलांतल्यान गाडी हळू वयर चडटा तशी तशी हेवटेन तेवटेन हालताली. म्हज्या मनांत विचार आयले. पालखी नाचयतना देवूय असोच हालता आसतलो न्हय? ताका तेन्ना कितले त्रास जाता आसतले न्हय? कांय खिणांक गाडी हालिल्ली आमच्यानी सोसूं नज आनी वरांची वरां पालखेंत बशिल्लो परमेश्वर हें कशें सोंसता काय? म्हजे विचार चालू आसतना गाडी हालत धोलत एकदांची पुलार पावली.

'पुलार पावले, पुलार पावले', सुनीलान पर्थून बोवाळ मारपाक सुरवात केली. हांव सवकासायेन गाडी चलयतालों. कपिल-सुनीलाचे संवाद आयकतालों.

'हो पळे दर्यो, आमी फेरीबोटीन वताले पळे तो', कपिलान सुनीलाक सांगले.

'फेरीबोटीन म्हाका भंय दिसतालो', सुनीलान म्हळें, 'हालता म्हूण.

आतां बरे न्हय? सुशेगाद बसून पणजे पावता. हालचे बी ना', अचकीत दोन स्लॅबांमदले जोडणेर गाडी पावली आनी 'घड्ड' आवाज जावन आमी तिगूय सीटावयर उसळ्ळे.

'पुलारूय हालतात मरे पप्पा', सुनीलान म्हाका उद्देशून उदगार काडले.

'बाबा, पूल नवो आसा न्हय? म्हूण हालता'.

दरेक वेळा गाडी दोन स्लॅबांमदी पावनाफुडें 'घड्ड' जावन आमी हालताले. शेवटाक पूल हुपून आमी दुसरे दिकेकडेन पावले आनी-

'क र्र र्र', फुडले गाडयेन एकदम ब्रेक दामलो. हांव मात लेगीत 'फास्ट' आशिल्लों जाल्यार मुखावेले गाडयेचें भेंड आनी म्हजे गाडयेचें तोंड एक जावपाचें.

'कितें जालें?' कपिलान विचारलें.

'फुडें मोठ्ठें फोणकूल आसा. तें वाटावपाक ते गाडयेच्या ड्रायव्हरान ब्रेक मारला', हांवें जाप दिली.

'पप्पा, ह्या पुलार कवाथे लायतले काय कितें?' माणकुल्या सुनीलाक घराकडेन कवाथ्यांक मारिल्लीं फोणकुलां याद जाल्यांत जावये'.

हांवें कांयच म्हळें ना.

अखेरेक कितलींशींच फोणकुलां चुकयत आमी वर्तुळाभोंवतणी गाडी धुंवडावन पाटो पूलाचे दिकेन गेले. पळेत तर सिग्नल पडिल्ल्यान व्हडलो 'क्यू' लागला. हांवें गाडी बंद उडयली.

'पप्पा, हांगा फेरीबोट लागता?' सुनीलाचो प्रस्न.

'ना, हांगा सिग्नल लागता', म्हजी जाप.

वीस मिण्टां रावले उपरांत आमी पाटो पूल हुपून पणजे पावले आनी एक व्हड पासय मारून पर्थून धा मिण्टां सिग्नलाकडेन रावन, फोणकुलां चुकयत, उदकाक वाटायत, काळजी घेत, मनात भीत भीत हांवें गाडी मालीम पावयली. तेन्नां सांजेची साडे सात वरां जाल्लीं.

कांय कळाव जाले उपरांत आमी घरा पावले. सुनील आनी कपिल देवनाफुडे आवयसरीं गेले आनी म्हजेकडेन तिडकीन पळोवंक लागले.

'कितें जालां? पूल पळेलो मरे तुमी?'

'ना, पप्पा फटींग,' सुनीलान फणफणत म्हळें.

'म्हणजे? तांकां पूल दाखयलोच ना?' म्हाका प्रस्न.

'दाखोवन हाडलो न्हय?'

'ना, पप्पान आमकां पोरणो खंयचो तरी मोडूंक पाविल्लो पूल दाखयला. रस्त्यार सगळे बुराक, फोणकुलां, उदक, चिखोल आनी पुलार काळोख गुप्प. म्हज्या पोटांत लेगीत दुखलें गाडी पर्थून पर्थून हालून', सुनीलान म्हळें.

'सुनीलाचें खरें मम्मी. नवो पूल असो आसता व्हय? रेब्यान भरिल्लो, बुराक पडिल्लो, डांबर नाशिल्लो, काळखांत बशिल्लो?' कपिलान सुनीलाक तेंको दिलो.

हांव हांसलों.

'बाबानों, तुमी पळयला तो नवोच पूल मांडवीर बांदला तो. पूण आतां उत्तो जावन एक म्हयनो जालो. बरो कसो उरतलो? वापरता तितली खंयचीय वस्त काबार जाताच न्हय?' हांवे समजावपाचो यत्न केलो पूण भुरग्याचे समादान जालेंच ना.



❒ ❒ ❒

# दुसरो रंग ना?

रंगाचें म्हत्व सगल्यांक खबर आसा. रंग नाशिल्ली वा रंग गेल्ली वस्त कोणाकूच आवडना. पूण रंगाक फाव ते परस चड म्हत्व दिवपी लोक हे धर्तरेचेर आसात हें पावलाकणकणी दिसून येता. चड करून बायलांक रंगाविशीं चड बारीकसाण आसता. कांय वेळा रंगीत वस्तूंविशींची तांची आवड मनाक पट्टा पुणून खुब वेळा रंगाविशींची तांची अती बारीकसाण मनशाक तिडक हाडटा.

खाशेलें उदाहरण म्हळ्यार कापडांचे दुकानार. दुकानावेलो गडी पातळां, कापडां, शालू, वायलां जाय जाय तें मेजार आपटीता. त्या कापडांचे रंग दोळ्यांनी भरतात, खुशालकाय दितात. पूण बायलांचे समादान जाल्लें हांवें तरी केन्नाच पळोवना. कितलींय विंगड विंगड रंगाचीं कापडां दोळ्यांमुखार आपटिलीं तरी दरेकबायलेचो, चलयेचो प्रस्न आसताच- 'दुसरो रंग ना?' पांचवो रंग हाडल्यार, पोपटी रंग ना? तांबडो रंग हाडल्यार, किरमुजी ना? मात्सो लेव हाडल्यार गाड ना? आनी गाड आसल्यार मात्सो लेव ना?!.... अशे रंगांचे भोवस्ताळे करचे परस जाय त्याच रंगाचे मोस्त्र हाडपाक जाता कितें? ना, पूण दुकानार रंग चडोवंक जाय म्हय? रंगांचे मोस्त्र हाडल्यार गिरायकांक रंग चडटलो कसो?



❑ ❑ ❑

'टूथपेस्ट सोपल्या येतना यादीन हाड आं,' बायलेन घराभायर सरचेवेळा सांगलें. हांवे यादीन 'क्लोज अप' हाडली. 'ही कसली हाडली रे?' 'कसली म्हणजे, डुप्लीकेट काय कितें?' आतां टुथपेस्टूय डुप्लीकेट येता हें चिंतुनूच

म्हजे दांत हालले. 'तुका म्हणून कांयच कळना. आजूच तांबडी 'क्लोज अप' सोंपली, दुसरो रंग नाशिल्लो? आतां पांचवो, निळो मेळटा म्हूण नकळ तूं?' आगो पूण टूथपेस्टीचो रंग खंयचोय आसलो तरी दांत धवेच जातले मगो?'



म्हापशेंचो बाजार! हीऽऽ गर्दी. हांव प्लास्टिकच्यो वस्तू विकता त्या मनशाकडेन गेलों. थंय एक जोडपें आशिल्लें.

'आरे, पांचवी बालदी आसा?' बायलेन विचारलें.

'आसा आं बाय, ही घे!'

'आरे, दुसरो रंग ना?' बायलेन नापसंती दाखयली.

दुकानदारान दुसरे पांचवे शेडीची बालदी काडून दिली.

'व्वा. ही आमच्या मास्टर बेडरूमाच्या टॉयलेटाच्या तिजुल्यांवेले पांचवे वालीक मॅचींग आं,' ते बायलेन उमेदीन म्हळें, 'असलोच तामयो आसा रे?'

'ना!'

'केन्ना मेळटलो?'

'फुडल्या सुक्रारा यो,' तो सामको वाजेला हें पळेल्यार कळटालें.



'मिनीट मिल्क' दुदाचो आतां पेपरपॅक आयला. वांगडा एक 'कप' फुकट! हांव बायलेक घेवन गोवा सहकार भांडारांत गेलों. मिनीट मिल्क घेतलो. काऊंटरावेले बायलेन सॅम्पलाचो 'तांबडो कप' काडून दिलो. आतां तो कप फुकट मेळ्ळा.... सॅम्पलाचो, मिल्कपॅकावांगडा आयिल्लो. तोंड धांपून तो कप बॅगात उडावपाचो.



पूण ना... 'दुसरो रंग ना गे?' म्हजे बायलेचो प्रस्न. 'ना, एकूच आयला.'

'म्हाका दुसरो मेळटा जाल्यार जाय आशिल्लो'.

हांवें कपलार हात मारलो.



एक दुयेंत बायल म्हजेसरीं आयली. हांवें तिका तपासली आनी गुळयो दिल्यो. 'बाबा, फाटीय तुवें असल्योच गुळयो दिल्ल्यो, गुलाबी रंगाच्यो. दुसरो रंग ना?' अशें विचारपी बायल मनीस केन्ना येता काय म्हूण हांव वाट पळेत रावलां.



# हांवें सर्कस पळेली

दि ग्रेट रॉयल सर्कस म्हापशां सुरू जायत मेरेन म्हजें मन वाग-शिंवांच्या आवाजान भरून गेलें. अखेरेक सर्कशीक वचपाचो योग आयलो. साडे संच्या खेळाक बायल आनी हांव गेलीं.

लोकांची ही गर्दी! सर्कस म्हळ्यार लोक पिशे खरे. सगळे तरेचे लोक आयिल्ले दिसताले... जाण्टे, नेण्टे, भुरगीं! सगळ्या धर्माचे दिसताले.... हिन्दू, मुसलमान, क्रिस्तांव, शीख! सगळ्या गुणांचे दिसताले... थंड बसपी, पिल्लूको मारपी, जनावरांचे आवाज काडपी, पदां म्हणपी! सगळ्या वर्णाचे दिसताले... सांवळे, पाखले, खाप्री, तांबडे!

हांव बारकायेन सर्कशीच्या रिंगणाभोंवतणीं पळोवन लोकांचें निरिक्षण करतालों. लोक उमेदीन येताले... चोम्यांनी येताले! एक अशेंच कुटूंब आयलें... दादलो, बायल आनी तीन भुरगीं! दादल्याच्या हातांत चार 'पोटेटो चिप्स' चीं पाकिटां, बायलेच्या हातांत काजुबियांची दोन पाकिटां आनी तिनूय भुरग्यांच्या हातांनी एक एक आइस्क्रीम. हांवें बायलेक म्हळें, 'हो हांगा सर्कस पळोवंक आयला काय जेवंक आयला!' बायल हांसली.

तेन्नाच एक लांबरूंद, मोट्टो मनीस आमचे मुखावेले बसकेर बसलो. आमी थंयच बसून रावत तर त्या मनशाची तकली आनी लांबरूंद देहाबगर दुसरें कांयच दिसचेंना हें हांवें जाणलें. म्हणून आमकां आमच्यो बसका सोडून दुसऱ्या जाग्यार बसचें पडलें.

सर्कस सुरू जाली. चार पांच हती आनी घोडे रिंगणांत दोन पासयो मारून गेले.

'व्हाव, व्हाव', कोणे तरी विदेशी भुरग्यान म्हळें.

'पाव, पाव,' एकलो भुरगो बनपाव घेवन मदींच बोवाळ मारीत आयलो.

दुसरो खेळ मात पळोवपासारको. एक आडसाटें चली कसरत करूंक आयलें. वाटकुळेंच मेज, ताचेर आडवें जावन कसरत. वेल्यान प्रकाश झोत! पळोवंक बरे दिसतालें. आमचे फाटल्यान दोग जाण्टीं बायलां बशिल्लीं.

'बरें आसा पोर आं. आमगेल्या विजूक फावसारकें', एकलेन म्हळें.

'हांगेलो विजू असलीच कसरत बी करता काय?' हांव येवजूंक लागलों. थोडे लोक सर्कशीक लग्नां जुळोवंकूय येतात हें म्हाका तेन्नाच कळ्ळें.

मागीर जाले सायकलींचे खेळ. आठ चलयो एकेच सायकलीर बसून. कितें मजा!

'आगे बाये! काळजांत लेगीत धडधडटा', जाण्टेले आज्जेन मर्दीच म्हळें.

'कांय भिवं नाकात तुमी. तांकां तशी ल्हानपणासावन संवय आसा', तिचे सुनेन बोध केलो.

'पूण कितें गो बाये अवतार?' आजी खर्शेवंक लागली.

'तूं दोळे बंद करून ओगी बस पळोवया. दुसरो खेळ पळय मागीर,' नातू वाजेलो, 'हड्डें वयर सरता जाल्यार कित्याक आयल्या?'

आज्जेन दोळे धांपलें. सायकलींचे खेळ जावन शिंवांक हाडले. तांचो आवाज आयकून फुडले मोठेल्यान कानांत बोटां घालीं. शींव आपले खेळ करून गेले उपरांत जोकर आयले आनी लोकांक हांसोवन उडयले.

'चलयो येच ना मरे. हीं जनावरां पळोवंक कोण आयला?' म्हजे उजवे दिकेतल्या शेजाऱ्यान शेरो माल्लो. आनी दोळे धांपून बसलो.

हो जनावरापाश्ट आंबटशौकीन सर्कशीक कित्याक आयला तें कळ्ळें. ताचे खेळांचेर लक्षूच नाशिल्लें. कांय खेळ जाले उपरांत दोन चलयो झोपाळ्यांचे खेळ करूंक आयल्यो. ताच्या आमिगान ताका हालोवन उठयलो. तो नीट बसलो आनी गोरीला येनाफुडे पर्थून न्हिदलो.

'ताजा आयसक्रीम, जुमानी कोन', बोवाळ घालीत एक आयसक्रीमवालो

आमचे फुडले रांगेमुखार आयलो.

'एक दी रे', फुडल्या मोठेल्यान म्हळें.

आयसक्रीमवालो दुडू घेवन फुडें गेलो. मोठेल्यान कोनाचे कागद काडिनाफुडें वितळलेली आयसक्रीम ताच्या पोटावेल्यान सकयल पावली. म्हाका दोन तीन नव्यो गाळी आयकूंक आयल्यो. म्हाका पयलीं दिसलें, हो तिडकीन त्या भुरग्याचेर फाफुडटा काय म्हूण. पुणून तो आसा खंय? तो परतो आयलोच ना.

खेळ चालू आशिल्ले. कुत्र्यांचे आनी पोपटांचे खेळ तर पळोवपासारकेच. लोक सामके भूक तान विसरून पळेताले.

'आज का अंतीम आयटम' मायकावेल्यान कोणें तरी सांगलें आनी हवेंतले झोपाळ्यावेले खेळ सुरू केले. आज्जेन फाटल्यान गणपतीस्तोत्र म्हणूंक सुरवात केली. म्हजे बगलेचो मनीस घोरेतालो.

'हें तें चली बरें झोप घेता न्ही?' हांवे बायलेक मोठ्यान म्हळें. म्हजो शेजारी दचकून उठलो. तो दोळे चोळून वयर पळेतासर सर्कस सोंपिल्ल्याचे जाहीर जालें.



# एक सपन पडलें म्हाका

गोंय दूरदर्शनाक दिल्ल्या अर्दवराच्या वेळांत एक खाशेली कार्यावळ नेमान पळोवंक मेळटा... ती म्हणजे मुलाखत. गोंयच्या ल्हानव्हड कलाकारांक आपोवन तांकां प्रस्न विचारून तांचीं मतां विचारप सदांचेंच... म्हाकाय मुलाखत घेवपाची चड उमेद. असोच एक दीस बलकावांत येवजितां येवजितां दोळो केन्ना लागलो कळ्ळेंच ना. सपनांत हांव मुलाखतकार जाल्लों आनी हांव गांवच्या प्रतिश्टित नागरिकाची मुलाखत घेतालों गोंय दूरदर्शनाचे वतीन!

'सगळ्या मोगाळ ल्हान, व्हड भावांनों आनी भयणीनों, इश्टांनों आनी इश्टीणींनो आयज तुमच्या मुखार म्हजे कुशीक बसूंक आयला...'

'पात्रांव, हांव उबोच आसा'.

'चूक जालीं आं.... म्हज्या शेजरा उबोच आसा आमच्या राज्यांतलो...'

'पात्रांव.'

'आरे राव रे, हांव पयलीं उलयतां, तूं मागीर उलय मरे. म्हजे पाठ केल्लें भाशण चुकता...' 'तर तुमकां हांव कितें सांगतालों?' पर्थून सुरवात करतां... सगळ्या मोगाळ ल्हान व्हड भावांनो आनी भयणीनों, इश्टांनों आनी इश्टीणींनों आयज तुमच्या मुखार आयला आमच्या राज्यांतलो एक भौप्रतिश्ठीत नागरीक श्री. केशव सखाराम कापे, थोडक्यात के. स. कापे. हांगा जमिल्ल्या बुदवंत लोकांक ताजो धंदो कळ्ळाच आसतलो न्हय? सांगात पळोवया... बरोबर, केंस कापपाचो.'

'पात्रांव, म्हाका बसपाक कदेल'.

'आरे पापया, तुजो धंदो केंस कापपाचो. तुजें काम तूं बसून करता व्हय? आयज एकदम बसपाचें शें येवजिलां? भलायकी बी बरी आसा मरे?'

'पात्रांव आयज हांव केंस मारूंक येवूंक ना. प्रस्नाच्यो जापो दिवंक आयलां'.

'आं... बरोबर. आरे कोण आसा रे थंय? ह्या आमच्या कापेबाबाक एक

कदेल हाडून दी पळोवया'.

एक भुरगो एक ल्हानशें कदेल घेवन येता.

'देव बरें करूं. केंस बेगीन व्हड जावं दी'.

'तर आमकां सांग पळोवया. तूं ह्या धंद्यात कसो पडलो?'

'निसरून'.

'निसरून... म्हणजे?'

'ताचें अशें जालें. तेन्ना हांव ल्हान... चार पांच वर्सांचो. म्हजो बापूय केंस मारतालो. ताका पळोवन हांवें हळूच एक कातर काडली आनी आवयच्या केंसांक लायली. आवय म्हाका मारूंक धावली. हांव फुडें ती फाटीं.. हांव धांवत धांवत बापूय केंस मारतालो थंय पावलों आनी सकयल पडिल्ल्या केंसांर निसरून घो करून जमनीर आपटलों. तेन्नाच म्हज्या बापायची खात्री पटली खंय...'

'कितें म्हणून?'

'आपलो हो दिवटो पूत फुडें व्हड जावन घराचो बावटो वयर काडटलो म्हूण'

'अशें, आं.... तुवें ह्या धंद्यांत खुबश्या जाणांचे बारीक मोठे काळे धवे पिके केंस कापल्यात. तुजो कितेंय अणभव आमकां सांगशी?'

'अणभव खूब आयला. मोठ्यामोठ्यांचे केंस कापून म्हजेच केंस गळूंक लागल्यात. आमचो मुख्यमंत्री ल्हान आसलो तेन्नासावन म्हजेसरीं येतालो केंस बारीक करूंक. आतांय येवपाचो तो. पुणून ताका आतां केंसूच नात'.

'केंस मारतना कोणांक वाखोर बी लागला?'

'वाखोर?... तुका फटयना हांव.. केन्नाय लागला. तुका आमचे. समजना? सांजचे. आमकां मात्शें कोपाचें जाय पडटा न्हय? तेन्ना आमकां एका केंसाचें दोन केंस दिसतात. अशा वेळार कोणूय केंस मारूंक आयलो तर चुकून वाखोर लागता. आनी एकदां कितें जालें जाणा? हांव केंस मारताना भायर रस्त्यावेल्यान एक मोठ्ठी व्हेंकल पावणी वचूंक लागली. न्हवरो आमचो शेजारी. व्हड गिरेस्त! ताज्या त्या पाटांराणयेचो थाट हांव पळयत उरलों आनी हे वाटेन गिरायकाक वाखोर लागलो.'






'तुवें कोणांक खांपायला बी?'

'तसो कोणांक खांपायिल्लो म्हाका याद जायना... बरोबर, एकल्याक मात हावे खांपायला मुद्दम. अर्दी मिशीच कापून उडयली'.

'कित्याक तर?'

'ताज्या बापायन जुवानपणान म्हज्या बापायकडेन एकदां दादागिरी केल्ली म्हूण. ताजो बापूय आमचे तावडीक सापडलोना. पुणून पूत बरो सापडलो'.

'आं अशें? एक म्हत्वाचो प्रस्न. तुजो धंदो बरो चलचो म्हूण तूं कितें करता?

'खासा कांय करिना. केन्नाय सलुनाक रंग काडटां, नावांची पाटी नवी पितारून घेतां आनी केंस बरे कापचे म्हूण कात्रीक आनी वाखोराक धार काडटां आनी हें चड जाल्यार वास येवचो न्हय म्हूण चेर मारतां'.

'निमाणेकडेन एक प्रस्न. सरकारान तुमचे खातीर कितें करचें अशें तुका दिसता?'

'सरकारान आमचे खातीर खूब कितें करचें अशें म्हाका दिसता... सरकाराक खूब कितें करूंक येता..., हें करूंक येतां, तें करूंक येता, अशें करूंक येता, तशें करूंक येता... कळ्ळें न्हय तुका... हय, खूब करूंक येता.... करतलो'.

'बरें तर, कापेबाब, तूं हांगा तुजे सगळे केंस सोडून आयलो म्हूण तुका देव बरें करूं.'

'बरें... तुवें म्हाका हांगासर आपयलो म्हुण तुजें हांव देव बरें करूं म्हणटां. लोकानी तन मन लावन म्हजे अणभवाचे चार शब्द आयकले म्हूण तांचेंय हांव देव बरें करूं म्हणटां. जे लोक म्हज्या सरी केंस मारपाक आयले आनी फुडें येतले तांचेय हांव अंतस्करणांतल्यान चडान चड देव बरें करूं म्हणटां... नमस्कार!



# दुयेंत जेन्ना दोतोराक तपासता

'बरो आसा तो. चड जोर ना. मात्शी थंडी आसा. हांव तुका गुळयो दितां त्यो घेवन पळे आनी चार दिसांनी कळय', हांवें अशोकाल्या बापायक सांगलें.

'दोतोर ताका एक इंजेक्शन मार पळोवया. आमच्या गांवांत थंय दोतोर इंजेक्शन करीनाफुडें तो बरो जाता.'

'ताका जोर चड ना तोपपाक.'

'ना दोतोर, मागीर जोर चडटलो. कर तूं इंजेक्शन, हांव सांगता न्हय?'

'दोतोर तूं कांय हांव?'

'बरें तर, गुळयोच दी'.

हांवें गुळयो बरोवन दिल्यो.

'तुजेकडेन ना? हाडून दवरूंक जाय. गरजेक आमकां बऱ्याक पडटा. फुडलेफावटी हाडून दवर आं', पंढरीन म्हाका बुद्द दिली, 'पयशे कितले?'

'धा रूपया!'

'फाल्यां दिता आं', म्हणून पंढरी अशोकाक घेवन पसार जालो तो अजून येवंक ना.



'दोतोर, पोटांत दुखप चालूच आसा', दिव्येशान पोट दामीत म्हळें.

'दिल्ल्यो गुळयो घेतल्यो?'

'ना दोतोर, एकूच घेतली. ती घेवन बारा दंत भायर गेले. म्हजी आजी तें आयकून घुंवळ येवन पडली. साबुद्दीर येतकच ती खुबळ्ळी. तुमकां

कितें कितें म्हणूंक लागली. म्हाका तिणें सांगलें, गुळयो भायर मार म्हणून. पावसाचे दंत भायर घाल्यात ते, तूं दोतोर काय फातोर हें तुमकां विचार म्हणलां. तिच्या एकल्याच नातवाक तूं मारूंक उठला काय खंय. दोतोरांचें सगळेंच आयकूंक फावना म्हणटा ती'.

'मागीर तूं म्हजेसरीं पोटांत दुखता म्हूण कित्याक आयला?' हांवें तिडकीन विचारलें. 'तुजें आज्जेकूच उपाय विचार मरे'.



एक दीस एक बायल आपले चलयेक घेवन म्हजेसरीं आयली.

'दोतोर, हाका मात्शें तपास पळोवया. सबंद वेळ माथें खरपिता, आंग बुड्डिता, म्हाका तें थंडेन शें दिसता. कांयच कळना. मात्शें तूं तपासून पळे.'

'आंग केन्नासावन बुड्डता गो तुजें?' हांवें ते चलयेक प्रस्न केलो.

'दोतोर, कालच्यानूच खाजयता तें. आनी कितें जाणा? तें कांयच खायना, जेवीना बी. हय गो, तुका ओकूंक आयिल्लेवरी दिसता? तकली बी फोडटा? दोतोराक सारकें सांग', कांताचे बायलेन विद्याक उलोवंकच दिलेंना.

'फकत खाजच येता', ते चलयेन हळूच म्हळें.

'तुका पोटांत चाबता बी? परसाकडेन बी बरें जाता मगो? दोतोर तें तरेतरेचे आवाज करता, तबलें पेटी वाजयल्ले भाशेन. म्हाका तें थंडेन शें दिसता, कांयच कळना'. ते बायलेन पर्थून आपली परवड सुरू केली. विचारचें शें दिसलें हिका, दोतोर तूं काय हांव गे म्हूण. पूण वगी रावन ते चलयेक तपासून वखद दिलें.



'दोतोर, म्हजें मात्शें पळय पळोवया... कितें रे? प्रेशर रे', छातयेर

हात मारीत खरशेत धांपेत तिकली बाप्पा भितर सरलो.

'कळ्ळें, बस', हांवें म्हळें आनी प्रेशर पळेलें. बरें आशिल्लें.

'कितें? सारकें आसा? सारकें आसा मरे? मालक्रियाद मरे.....'

'कितें?'

'कोण रे? तो रे. ताचें नांव येना म्हाका. वाडलां म्हणूंक लागलो. हाका कोणे दोतोर केला रे? हांव सामकों जालों मरे. कितें रे? घामाघूम जालों मरे'.

'आतां तूं कांयच पर्वा करूं नाका. सुशेगाद चल'.

'दोतोर, हांवें केन्नाय घेतल्यार जाता मरे? कितें रे?' सोरो पिवपाची कुरू करीत ताणें विचारलें.

'नाका, वाडटलें. कितें रे? प्रेशर रे'. हांवे ताचेच धरतीर म्हळें.

'बरें आसा..... घेना.... बरें आं. देव बरें करू'.



मोठे कंपनीन गुड्ड्यो मारपाचें काम करपीय खूब जोडटा. एक दीस असोच एक मनीस स्वताक तपासून घेवंक आयलो.

'दोतोर, आंग पांग फोडटा......

हांवें तपासून ताका वखदां दिलीं.

'दोतोर, तूं पोंबुर्प्यां कित्याक प्रॅक्टीस करीना?'

'हांव आसा थंयच बरो आसा'.

'पूण तुका हांगा कितें मेळटलें? ताणें अशे थाटांत म्हळें जणू हो भयंकर मोठे सुवातेर कामाक आसा आनी हांव हाचे हाताखाला......

'ना, बरे मेळटा,' हांवें मनांत म्हळें, 'तुजेपरस दुप्पटीन'.

'आं, हय न्ही? तशें जाल्यार तूं आसा तोच बरो तर!', पयशे फारीक करून तो चलूंक लागलो.



रातचीं साडेअकरा जाल्लीं. कोणेंतरी बॅल वाजयली. हांवें क्लिनीक उगडली.

'शीव, शीव, शीव... सत्यनारायणा पाव.... डॉक्टर?'

'कितें रे?' हांवें नाका पुडयो बंद करीत विचारलें.

'शिवशंभो.... शिवाय नमः.... डॉक्टर... पांच रूपया... पांचूच'.

'तुका पांच रूपया जाय, कित्याक? हांवे पिवन तर्र जाल्ल्या शिवशंभोक विचारलें.

'बाटली ना आं.... पांचूच'.

'तूं अशें कर, आतां घरा चल आनी फाल्यां सकाळीं यो. मागीर उलोवया. हांवें ताका क्लिनिकाभायर घालो आनी दार धांपलें.



# बांबोळे एक पासय

म्हजो गेलो एक इश्ट मुंबयसावन गोंयांत आयलो. ताका कळ्ळें की बांबोळे मोट्टो वैजकी प्रकल्प बांदला म्हूण कोट्यांनी रूपयांचो गोबोर करून. तो म्हजे फाटीक लागलो. प्रकल्प दाखोवंक व्हर म्हणून.

हांव मयुराक घेवन बांबोळे पावलों.

'व्वा, कितें सुंदर बांदलां न्हय हॉस्पिटल?' ताणें हॉस्टेल पळोवन विचारलें.

'आरे बाबा, तें दोतोरांक रावपाचें हॉस्टेल. नवेंच बांदलां. आठ म्हयन्यांनी पुराय केलां तें. गोंयचो बांदकामाचो नवो विक्रम तो. तशे गोंयच्या नांवार बांदकामाचे खूब विक्रम आसात. सोळा वर्सांनी एक पूल कोसळप, बांदकाम चालू आसतनाच दुसऱ्या पूलाचो नवो स्लॅब कोसळप. तिसरो पुलूय कोसळपाच्या मार्गार आसप, अशे खूब कितें'.

'अशें न्हय?' ताणें आवंडो गिळ्ळो.

आमची गाडी मुखेल दरवट्यांतल्यान भितर सरली. फुडल्यान राजीव गांधी मॅडीकल कॉम्प्लेक्स बरयिल्लें प्रवेशदार आनी भितर राजीव गांधींचो पुतळो दिसतालो.

'हें नवेंच बांदलां लाखांनी दुडू वगडावन', हांवे म्हळें.

गाडी कुशीक उबी करून आमी प्रवेशदाराकडेन आयले.

'हो कोणाचो पुतळो?' मयुराचो प्रस्न.

'कितें रे? राजीव गांधींचो पुतळो मरे. वळखलो ना?'

'ना मरे, हांव आतां येवजितां हो कोण व्हड दोतोर बी काय म्हणून!'

कांय खीण थंय रावून आमी नवी ओ. पी. डी. उत्ती केल्या ते दिकेन गेले.

'हो नवो ओ. पी. डी. ब्लॉक'.

'आरे, हो नांवांचो बोर्ड फुटला मरे! भितल्ल्यो ट्युबलायटी दिसतात'. मयुरान ओपीडी ब्लॉकाचे वयर पळोवन शेरो मारलो.

हांव ओगीच रावलों.

ओपीडी ब्लॉक सगळो भोंवून पळयले उपरांत आमी नवे हॉस्पिटल पळोवंक गेले. वाटेर एके दिकेन खूब गोरवां चरतालीं. सगळेकडेन शेणां थापे दिसताले.

'सरकारान बरी वेवस्था केल्या मरे पेशंटांक ताजें दूद दिवपाची, न्हय?' मयुरान म्हाका विचारलें.

'हय', हांवें जाप दिली. 'फकत गोठो मात बांदूंक ना. गोरवांच हाडून सोडल्यांत. सरकारान दोन तीन कंपनीकडेन 'कोटेशनां' मागयल्यांत खंय'.

'शेणाचें कितें करतात तर?'

'कांय करिनात. कोणें जाय ताणें आंगण सारोवंक व्हरचें.'

मागीर आमी कॅज्युअल्टी पळोवंक गेले. सगळें कशें चकचकीत.

'व्वा. दुयेंतीक हांगाच रावन दिसतलें'. मयुरान म्हळें.

'हय, खरें.' हांवें म्हळें, 'पूण कांय वर्साउपरांत पळोवंक जाय दुयेंत कितें म्हणटात ते'.

ते उपरांत आमी नव्या हॉस्पिटलांत भितर सरले.

'केदें व्हडलें जाणा. सामको शेणटा मनीस. हांव एक दीस सकाळीं भितर सरिल्लों तो वाट मेळना जावन दनपरां भायर सरलां.' हांवें अती करून सांगलें.

'अशें न्हय?' तो घामेलो., 'आसूं भितर वचचे न्हय'.

थंयसावन आमीं पुस्तकालयांत गेले.

भितर वच तर लायब्ररी अस्सिटंट्स सदांभाशेन न्हिदो काडटा.

'हांकां रातचेंय काम आसता दिसता न्हय?'

'हय तर, रातचें आसता न्हिदपाचें आनी दिसाचें आसता लकपाचें',

गड्यांक लागलो तर आमकांच त्रास जावचो ना व्हय?.... आमचो राजू खरो अपुर्बायेचोच. थंयच्या थंयच रावून करता खंय आपले काम, अशें तो तिकलीबाप्पा म्हणी....

हांवे कपलाक आठयो घाल्यो आनी बाप्पाक पळयत रावलों.

'आवट!' अचकीत दूरदर्शनाचेर बोवाळ जालो. आमची दोगांयची नदर थंय गेली. मांजरेकार 'स्टंप्ड आवट' जाल्लो. रिप्ले चलतालो.

'शी........ X X X मरे हया गड्यांचें', बाप्पान आंवडो घेनास्तना आपलें भाशण पर्थून एकदां सुरू केलें. आरे फाटल्या त्या पायांक बांदला त्या गड्यान मोखून मारला मरे बोल बडयांचेर. रडये मरे हे. हांकां खंय तरी आळाबंदा हाडपाक जाय. शी, खेळाकडेन लेगीत फटींगपणा.'

'बाप्पा तो रिस्केच्या भायर गेल्लो बोल मारूंक म्हूण फाटल्या गड्याक ताका तसो बडयो उडोवन बाद करूंक येता. तसो नेमूच आसा खेळांत'.

'खंयचे कायदे घेवन आयला रे तूं?' हांवें सत्तर पावसाळे झेलल्यात मरे. तूं म्हाका कायदे शिकयता? खून केल्ले लोक सुट्टात मरे. आनी हांगा मात्सो रिस्केभायर सरल्यार गड्याच्यो बडयो उडोवन घात करप आनी ताका खेळूंक दिवप ना म्हणजे कितें.? अन्याय मरे हो.... कांयच ना.... आमच्या सरकाराचेंच चुकता.... चवदा-चवदा मंत्री, एक पंगड जाल्लेवरी. वचत थंय दादागिरी, फावोर, फटींगपणा....' बाप्पान दोळ्यांच्यो बावल्यो घुंवडायत, दाडमणां हालयत खंतीपणान आपलें मत परगटायलें.

हांवे कानांत बोटां घालीं.

'हो कोण आयला रे बॅट हालयत?'

'बाप्पा, तो आमचो कपिल देव.'

'शी.... ताका कित्याक घेतला रे? त्या बोलाचे कुडके करतलो मरे तो. तो कांबळीबाब म्हणी, आयिल्लो बोल तो हांगा थंय भिरकावन मारता म्हूण. कितें म्हणपाचे हाका. पाकिस्तान जाले म्हूण कितें जालें. पयस पयस लोकांनी

मारिल्लो बोल पर्थून पर्थून शीम हुपून हाडपाक तांकां पुरो जायना व्हय? काकुळट बावड्यांची. हे बाबतींत तो मिस्त्री बरो....'

'कोण मिस्त्री?... आं, शास्त्री दिसता!'

'हय रे बाबा... खरो गुणाचो. तो फुडलो गाडेकार म्हणी ताचें बोल मारप बी सुशेगाद म्हूण. बोल फुर्डे वचचना. थंयच्या थंयच. कोण्णाक त्रास ना. अशें आसूंक जाय. बेठेंच कशायकशें मारलें म्हूण जाता? हांकां मरे मद चडला. कपिल देवाक टीव्हीवेल्या त्या फुकट्या पामोलिव्हचो नेट चडला. तरी आसतना आमचे शेजारचे भुरगे शास्त्रीक गाळी मारतात. कसले बाबा पोर हे. हांवें कितेंय म्हणीत तर म्हजेर ताणशेतात. शी, हांच्या तोंडाक लागपाचे ना रे बाबा....'

हांवें कपलावेलो घाम पुसलो आनी कपल दामून धरलें. कितें म्हण्टलो ह्या व्यंकीबाप्पाक. गोबोर कळना पुणून आपूण खेळांत तज्ञ जाल्लेवरी करून दाखयता.

'जैतवंतांक इनाम कितें दवरलां रे?' बाप्पान म्हाका विचारलें.

'बाप्पा, हें संवसारीक कॉप'.

'सामकेच मरे हे. एका कॉपाक लागून इतले खर्शेतात. हांगा कितलीं कॉपां मेळटात मरे.... शी बाबा.'

म्हाका हांसूक आवरना जालें. हांवें तोंडार हात धरून तोंड पुशिल्लेवरी केलें.

बाप्पान घड्याळीकडेन पळयलें.

'आरे बाबा, एक जालें मरे. घरा वचुया.' तो उठलो.

'एक पिडापीड गेली', हांवें मनांत म्हळें.

'आं म्हाका एक सांग हो खेळ कसलो रे?' बाप्पान वतां वतां प्रस्न केलो.

'हो खेळ?' म्हाका उतरूच फुटना जालें. हांव सांवरलों तेन्ना बाप्पा घरच्या मार्गाक लागिल्लो.



# सगळें उदक खंय गेलें?

काल आमच्या गांवांत सभा भरिल्ली. गांवचे प्रतिशठीत लोक, शिकपी भुरगे, बायलो हे सभेक आयिल्लीं.

सभेचो मुखेल उलोवपी (बापू) उठलो. ताणें लाऊडस्पिकर हातांत घेवन मोठ्यान किळच मारली- 'गांवच्या वांगड्यांनो, आज आमी हांगा एकठांय जमल्यात, ते एका प्रस्नाची जाप सोदूंक. आमच्या गांवांत दुकळ पडला. बायांक उदक ना. सरकारी पायपां सरकारा भाशेनूच जीव नाशिल्लेवरी सुकीं सडसडीत. पितलो जाल्यार उदका घोंट ना. दर्यांत उदक खूब भरलां खरें, पूण तें आमकां पिवंक मेळटा व्हय? अशे परिस्थितींत कितें करचें तेंच समजना. सगळीं झाडां मरून गेलीं. पावस तर सोयरो कसो एके घटकेक येता आनी नाच जाता. आमकां अजून कळना सगळें उदक खंय गेलें? हें सोदून काडपाचें काम तुमचें, आमचें, सगळ्यांचें. तुमचे भितर कोणायकूय जर खबर आसा उदक खंय तें तर मुजरत हे सभेंत तुमी जाहीर तरेन उलोवन दाखोवचें. तें उदक आमी आसा थंय सावन घेवन येवया. आमचे ताळे सड्डेल्यात. आमकां उदक जाय. चलात तर करूंया सुरवात. सोडोवया हो प्रस्न सगळें उदक खंय गेलें?

हांव फाटल्यान उबो आशिल्लों. म्हाका गांवकारांचो नेट आवडलो. म्हाकाय उमेद चडली. आमगेरूय पायपांनी उदक नाशिल्लेंच. पुणून बांय भरिल्ली आशिल्ल्यान उदकाचो तसो दुश्काळ नाशिल्लो. पूण आयकुया तरीं गांवकारांच्या तोंडांतल्यान उदक खंय गेलें तें म्हूण तसोच उबो रावलों.

एकलो तरणाटो बेगोबेग फणफणून उठलो, 'हांव सांगतां उदक खंय गेलें तें'. बापून ताका माचयेर व्हेलो. तो उमेदी तरणाटो हेवाटेन तेवाटेन हातवारे करीत उतरां फापडूंक लागलो, 'आज आमकां तान भागोवंक उदक ना. लोकांचे वळवळे जातात. जाणात तुमी, हें उदक सगळे मंत्र्यांल्या पोरसांनी

पावलां. थंय सकाळफुडें वचात, तेन्ना तुमकां कळटलें. मोठी मोठीं पायपां भरून झाडांचेर फवारे मारपी लोक तुमकां दिसतले'.

'देमू सांगता तें बरोबर,' खेमून मदींच तोंड घालें. 'आमी हांगा त्रास करून उदकाफाटल्यान धांवतात. तर मंत्र्याल्या पोरसांनी उदक चड जावन व्हांवता'.

सगळ्यांनी ताळयो मारल्यो.

एकलो धाएक वर्सांचो भुरगो मागीर फुडें सरलो- 'बापू, हांवें पळेलां उदक... कालूच हांव बांबोळे हॉस्पिटलांत गेल्लों. थंय वचत थंय जमनीर उदकूच उदक. हांवें कागदाची व्हडीं करून तातूंत सोडलीं. सगळे दुयेंत ते उदकमय वातावरण पळेत दीस काडटात.'

सगळे हांसले. बापूक मात हांसूंक आयले ना!

एकलो जाण्टेलो लकत लकत फुडें सरलो. 'बाबांनो तुमकां उदक जाय? कालूच टि. व्ही. चेर सांगलां, खंय तरीं हुंवार आयला म्हूण सगळें उदक थंय गेला जांवये. थोडे दीस रावात. थंयसरलो हुंवार देवलेउपरांत उदक आपसूकच हांगा व्हांवतलें.

ते उपरांत एक बायल उठली आनी बगलेच्या एका दादल्याक बोट दाखयत म्हणूंक लागली- 'बापू हे त्या गंगारामाक विचारात उदक खंय ते'

बापू- 'हय रे गंगाराम, गंगू कितें म्हणटा पळे. उदक खंय आसा तें जाणा तूं?'

गंगाराम- 'ना बापू, हांवे उदक पळयल्यार कितलो तेंपूच जालो'.

गंगू- 'ना बापू, गंगाराम फट उलयता. हो आमगेलो दुदकार. हाणें हाडिल्लें दूद दिसानदीस पातळ जायत आसा. उदक ना तर तें दूद पातळ जाता कशें?'

सगळ्यांनी बोवाळ घालो 'बरोबर, पातळ जाता कशें?'

गंगाराम भिलो- ‘बापू , सांगतां. हांव दूद भरून मंत्र्यागेर अकरा बाटल्यो धाडटां. ते बदलाक म्हाका ते बाटल्यांनी उदक भरून दितात.’

‘म्हणजे, मंत्र्यांक दाट दूद आनी आमकां उदक मरे?’ बापूलो कडक प्रस्न.

‘पुणून बापू, आमकां सद्याक उदकाचीच गरज आसा न्हय?’ गंगारामची मोव प्रस्नावरी जाप.

सगळे पर्थून हांसले.

‘चूप, तुमकां लजूय दिसना खळखळूंक? आमी आजून उदकाचो बंदोबस्त करूंक पावूंना आनी तुमकां हांसो येवजता?’

सगळे ओगी जाले. कोणाकूच कांयच सुचना जालें. सगळे चिंतूंक लागले. उदक खंय आसा तें!

कांय खिण शांत!

इतल्यांत एक ल्हान भुरगो एकदम उठलो आनी ताणें मोठ्यान बापूक साद घालो. बापू तंद्रेंतल्यान जागो जालो.

‘कितें रे बाब?’

‘बापू हांव जाणां उदक खंय आसा तें. तें पळय’, ताणे वयर मळबाकडेन बोट दाखयलें, ‘तें आमकां भिवन सकयल येता शें दिसता. तुमी तयारेन रावात’.

सगळ्यांनी वयर पळेलें आनी खोशेन तांणी त्या भुरग्याक उखलून धरलो. वयर कुपां मांडटालीं. सगळें जमिल्ले लोक धादोसकायेन उठले आनी पावसाक येवकार दिवंक उबे रावलें.



# कितें खावचें तर?

'बाब, नवीदाद आसा खंय?' शाणूचे बायलेन हांव दिसतांच विचारलें.

'हय व्हनी', हांवे मान हालयली.

'सगळे कितले जाले?'

'एकूय जावंक ना. हो पयलोच गुरवाचार', हांवें बेगोबेग म्हळें.

'तशें न्हय बाब. कितले म्हयने जाले काय म्हणटालीं'.

'तिसरो चलता'.

'मात्शें सांबाळून राव म्हूण सांग आं बायक. काप्या पणसाचे घरे, पोपायो, अनसांच्यो फोडी, म्हसकाच्यो सांगो, काजू बियो बी खावं नाका म्हण आं', तिणें व्हड वळेरी सांगली.

'बरें व्हनी; देव बरें करूं?'

'हय गो, व्हनी सांगता....' हांवें पर्थून सगळो पट पद्मामुखार मांडलो.

'हय? कालूय हनुमंताची बायल पोरसांतल्यान मोठ्यान सांगताली कुल्ल्यो खावंनाका म्हूण. पोटांत खळखळटा खंय'.

'आं बरी याद जाली, तिट्यावेलो बाबली सांगी तिसऱ्यो, खुबे, कालवां, शिनाण्यो बऱ्यो न्हय म्हणून. जिरना जावन पोटाक मार बसता खंय'.

'अशें, बरोवन दवरचें पडलें. यादीविणें खालें जाल्यार!'



'आगे, शेजान्नी, कितें करता गे? घमघमीत वास आयलो मगे', छबीन आवंडो गिळीत विचारलें.

'आज सकाळफुडें मटन घेवन आयला'.

'आगे बाये! तूं खावशी बी आंऽऽ! मटन, चिकन बी मसाल्याचीं खाणां खावप वायट. पोटांत तिखसाण वाडटा भुरग्याच्या'.

'हय? बरें जालें आं सांगून. म्हाका पानांची भाजी करतां'.

'आगे पापणी, चड पानांची भाजी खाल्यार तुका पाचवें परसाकडेन जातले आनी तीं पानां भुरग्याच्या आंतकड्यांक शिरकता म्हणतात'. छबीन कमरावेलो पांटलो जमनीर आपटिलो.

'आवयस, पालेभाज्यो नाकाच तर! हांव चण्यांचे तोंडाक करतां आनी बरें तूप लावन चपात्यो भाजतां', पद्मान म्हळें , 'रूच शी आयली. जेवणा उपरांत खावंपाक केळीं आसाच. पुरो म्हाका, चड खावंक जाय म्हूण ना'.

'आगे सायबिणी, तुका कोणेंच शिकवण दिवंक ना शी दिसता!' छबीन कपलार हात मारलो.

'कित्याक? कितें जालें?'

'आगे म्हजी शेमांय सदांच सांगी चणे, भिकणां खाल्यार भुरग्याक पिठें वाडटा म्हूण आनी केळीं-तूप चड खाल्यार भुरगे उतेराक दसता म्हूण'.

'अशें सांगी?' पद्माचो आंवरो उडलो.



'कितें भाबी? पासयो मारता?' कांताचे बायलेन प्रस्न केलो.

'हय, आज पोट भरून जेवलें', पद्मान सांगटांचे धबधबीत येतीशठ खाल्लें जावये.

'पळे, सांगता तें आयक. चड जेवं नाका. पोट भरून खाल्यार भुरगे पोटांत चिड्डता अशें म्हणटात. हांव आनी अर्देच जेवी चारूय बायंटेरांच्या वेळार'.

पद्मान जेन्ना म्हाका हें सांगलें तेन्ना हांवे कपलार हात मारलो. म्हणूनूच

कांताची बायल आनी भुरगीं मर्तमडीं जाल्यां जावंये'.



'दोतोर, ह्यो खाणावस्तू बऱ्यो न्हय अशें म्हज्या बरें मागतल्यांनी सांगलां, पद्मान दोतोरामुखार बरोवन घेतिल्ल्या जिनसांची वळेरी दवरली, 'हांवें कितें खावचें तर?'

ते वळेरेंत सादारणपणान खातात त्या चडश्या खाणा जिनसांचो आस्पाव आशिल्लो.

दोतोर हांसलो, 'बाय पळे, आमच्या शास्त्रांत तशें कांयच ना. तूं जाय तें खा. सदांपरस चडूच खा. तुका आनी भुरग्यांक पावता तशें. खंयचीय वस्त चड खाल्यार वायटाक पडटाच. पूण थोडें खालें म्हूण खंयचेंच खाण वायट न्हय!' दोतोरान जिनसांची वळेरी कोयरा पाटल्यांत उडयली.



# दोतोरांच्यो गजाली

आमच्याएका दोतोर सांगात्याच्या लग्नाक आमी सगळे इश्ट एकठांय मेळ्ळे. हांगाच्यो थंयच्यो गजाली करतां करतां अखेरीक आमी आमच्या सदांच्या विशयाचेर पावले.

'कितें म्हणटात तुगेले दुयेंत?' सुमंतान म्हाका प्रस्न केलो.

'आसात बरे'.

'रातचे बी उठयतात काय ना?'

'उठयतात तर! सबंद दीस बरो जायत हे आशेन रावतात आनी रातची 'बारा जालीं' तशे उरिल्ली रात कशी काडटले ह्या हुसक्यान दोतोराक सोदपाक येतात. पयर एकलो एक वर रातीर आयलो. 'न्हीद पडना, गुळी दी' म्हूण. म्हजे गुळयेन घडये ताका न्हीद पडली आसुंये पुणून म्हजी न्हीद मात गेली, हांवें विस्तारून सांगलें.

'अशें न्हय?' मोहनान झांबय काडीत म्हळें.

'तुका रातीं जागरण बी जालां कांय कितें?' संजयान भोंवयो वयर करीत विचारलें.

ह्य रे. हे दुयेंत म्हळ्यार.... शी! राती दोन वरांचेर उर्जेत आपोवणे मरे म्हाका.' थंय बेगोबेग वचून पळेत तर घरमालक तर्र जावन आयला आनी धुमशेणां घालता.

'म्हणजे तुका कोणे आनी कित्याक आपयल्लो तर?'

'ताचे घरकान्नीन, त्या बेबद्याक इन्जेक्शन मारून ओगी करपाक. हांचे भानगडीनी कोण पडटलो? हांव म्हजें काम न्हय म्हणून घरा आयलों', मोहनान दुसरी झांबय काडीत सांगलें.

'बरोबर रे, दुयेंत एकेकदां अती अपेक्षा करता. पयर एका दुयेंतीक

परपरत भायर जाता म्हूण सकाळफुडें पांचांक म्हाका आपयलो. हिची हागवण सुरू जावन चार दीस जाल्यात. ती एके गुळयेन कशी बंद जातली?' सुमंत उबगला म्हूण कळटालें.

'कित्याक, ती दनपरां तुजेसरी पर्थून आयली का कितें?' संजयान हांसून विचारलें.

'ती येवंक ना. तिगेलो घरकार दनपराच्या तीन वरांचेर हजर. भायर तशेंच जायतूच आसा म्हूण'.

'तरीं उपकार तुजेच सरीं पर्थून आयलो. नाजाल्यार थोडे दुयेंत रोखडेच दुसऱ्या दोतोराकडेन वतात', हांवें म्हळें.

'कित्याक, तूं बुद्द शिकलो काय कितें?' शिवालो प्रस्न.

'हय मरे. एकलो तरनाटो पोटांत दुखता म्हूण म्हजेसरीं आयलो. ताका तपासून पित्ताचे वखद दिवन हांवे घरा धाडलो. हो पंदरा दिसांनी पर्थून आयला पांच विंगड विंगड दोतोरांची रेशेंता घेवन. हांवें तिडकीन म्हळें तुका बांय मारची आसा जाल्यार एकाच जाग्यार खण. धा जाग्यांनी खणल्यार एकेय कडेन उदक लागचे ना'.

'वा बरें सांगलें तुवें', शिवान म्हजी तुस्त केली.

इतल्यांत पदम आयलो.... कातीचो तज्ञ.

'कितें रे? आजूय दुडू करूंक गुल्ल काय कितें.? म्हूर्त जावन अर्दवर जालें मरे', मोहनान ताका येतां येतांच तिडायलो.

'कितें करतलो? दुयेत सोडीचना मरे!'

'कितले घेता रे सल्लो दिवपाक?' सुमंतालो प्रस्न.

'पन्नास रूपया', पदमाली खणखणीत जाप.

'कात काडटा मरे दुयेंताची!' शिवाली उतरां.

'कातीचो दोतोर न्हय! कात काडचो ना तर कितें करतलो?' म्हजी प्रतिक्रया.

'दुडू घेवपाचेच रे. दुयेंतीक कितलेंय बरें केल्यार तितलेंच. फाटीं हांव एकल्यागेर गेल्लों. तांगेर मुंबयसावन सोयरीं आयिल्लीं. हांवे फियेचे तीस रूपया सांगले तर मुंबयवालो म्हणटा दोतोर म्हारग मरे म्हूण. म्हाका सांगपाक तोंडार आयिल्लें. घरा येवन तपासपाक मुंबयत एकलो लेगीत दोतोर पन्नासा खाला घेत तर तुजें सांगता तें आयकतां म्हूण, पूण ओगी रावलो', येदो वेळ ओगी बशिल्ल्या अजयान फणफणून सांगलें.

'हय रे, दोतोराक दुडू दिवंक तांकना हांकां. स रूपयांक एक बांगडो आनी धा रूपयांक एक मुड्डशी घेवन खातात मरे हे,' संजयाक तिडक मारली.

'मजा म्हळ्यार ह्यो नुस्तेकान्नी ज्यो एक पैसो हालोवपाक तयार नात, त्योच दोतोराकडेन वांटपण करतात मरे!' हांवे म्हजो मुद्दो मांडलो.

'हय?' अजयाक अजाप दिसलें.

'हय रे, कांय दिसांफाटी एक नुस्तेकान्न आपल्याक आनी आपल्या दोन पोरांक तपासपाक घेवन आयली. हांवे तिगांयचे तीस रूपया सांगले तर ही म्हण्टा कांय सूट ना काय म्हूण?'

सगळे हांसले.

'दोतोर आनी दुयेंत हांचेमदीं जें नातें आशिल्लें तें आज उरूंक ना रे'. संजयान आपलें मत परगटायलें, 'हालींच सकाळचो आठांक म्हज्या भायर सरपाच्या वेळार एक तरनाटो आयलो. बायलेन दार काडलें तर हो सांगता, 'दोतोराक बेगोबेग आपय आं, म्हाका कळाव जाता' म्हूण. आतां गरज कोणाचीं, वेळ काणाक जाता? पूण कितेंय म्हणीत तर दोतोराची दादागिरी वाडल्या म्हणटले.

'खरें तुजें,' हांवे म्हळें.

'चलात आं. कोणे तरी मोठ्यान साद घालो. 'बूफे मांडल्या.

आमची तंद्री तुटली आनी गजाली सोंपल्यो.







# आमी नेतुर्ले गेले!

आमचें गोंय कितलें गोमटें, सोबीत! पूण सगळें कोणें पळेलां? दिवाळेचे सुटयेंत थोडो तरी गोंयचो वाठार पळोवन घेवचो असो मनांत विचार केलो. एक दीस दिनेश, परेश, राजेंद्र, विकास आनी हांव नेतुर्ले वचचे अशें थारावन गाडयेंत बसले. सांगे म्हालांतलो गांव तो. त्या गांवांविशीं आमी आयकल्लें. थंय दत्तात्रेयाची गुहा आसा, बुडबुड्यांची तळी आसा, गोपीनाथाचें देवूळ आसा अशें जाणट्यांकडल्यान कानार पडिल्लें पूण पळोवपाचो योग येवनाशिल्लो. आमी वचपाक भायर सरले आनी आमच्याच राज्यांत आमी परकी आनी अनवळखी जावन आसात हें पटलें. हाका विचारीत, ताका विचारीत, पळगां फाटीं घालीत, फकाणां मारीत आमी नेतुर्लेच्या मार्गार पावले.

प्रवास म्हळो म्हणटर सगळ्यांक आवडटा. मागीर तो मोटारीन केलो तर मजाच. ओगी रावन प्रवास करपांत उमेद ना. गजाली, जोक्स, पदां, हुमाणीं कितें ना कितें करीत वेळ घालोवपांत चड मजा! पूण आमगेली मजा करपाची रीत वेगळी.

वतना वाटेर एक आडसाटो मनीस दिसलो. परेशान गाडी आडायली. 'आरे, नेतुर्ले कशे वचपाचे?'

'असोच चल, नीट!'

'आरे, फुडें पावस बी पडचोना मरे? न्हय, आमी सत्री हाडूंना म्हूण विचारतां'. परेशान ताका विचारलें आनी तो तोंड 'आं' करीत उरलो. आमी फुडें गेले.

एक लांब केंस सोडिल्लो मनीस वाटेवेल्यान वतालो.

'व्वा, कितें केंस रे!' गाडी स्लो करून ताका म्हणीत आमी पसार जाले. तो आपले केंस सांसपीत स्वताचेरूच खूश जाल्लेवरी दिसलो.





आमी अखेरेक नेतुर्ले पावले. बाजारांत एकल्याक विचारले 'आरे, दत्तात्रेयाचे देवूळ खंय पडटा?' बुडबुड्यांची तळी पळोवंक कशे वचप?'

'अशेच फुडें वचात, उजव्यान वळात, पर्थून उजव्यान वळात. थंय कोणायकूय विचारात, देवूळ खंय तें. तळें पळोवंक अशेच फाटीं चलात. दाव्यान चलात, थंय कोणायकूय विचारात, सांगतले'.

आतां फाटीं वचचें काय फुडें वचचें हो प्रस्न. सगळ्यांनी थारायलें पयलीं फुडे वचचें म्हूण. वाटेर एक सांतेरी देवूळ लागलें. तें पळोवन आमी दत्तात्रेयाची गुहा पळोवंक फुडें गेले. रस्त्यार एकली बायल वताली.

'आगे, दत्तात्रेयाचे देवूळ खंयशें पडटा?'

'दत्ता देवूळ? म्हाका खबर ना रे बाबा', तिगेली जाप.

'तूं नवी आयल्या दिसता?' विकासालो प्रस्न. तिगेली जाप ना!

'तिका दत्ता खंय रावता काय विचारल्यार बेसबरे सांगतली आशिल्ली', म्हगेलो शेरो.

फुडें गेले. वाटेर एक धवें माजर दावे दिकेंतल्यान उजवे दिकेन धांवलें.

'आगो बिलु तूं कितलेंय आडवें आयलें म्हूण आमी भिनात. आमी फुडें वतलेच आं. तुजो रंग काळो आशिल्लो जाल्यार कितेंय समजुंयेतालें', परेशान म्हळें.

अखेरेक दत्ताची गुहा सापडली. ती पळोवन आमी परतले आनी विचारीत विचारीत बुडबुड्यांची तळी पळोवंक गेले. थंय आवाज केल्यार तळयेंतल्यान बुडबुडे येतात अशें आयकल्लें. पावलां हळू तेकोवन आमीं तळयेकडेन गेले. गोपीनाथाचे दर्शन घेतलें आनी तळयेच्या कांठार रावन पळेलें. बुडबुडे खंयच नात.

'ये तळये तूं बुडबुडे काड आनी पळय!' विकासान तिडकीन म्हणिल्लेवरी केलें.

तळयेंतल्यान बुडबुडे आयले. म्हणजेच कसलोय आवाज केल्यार (मागीर तळयेक तापयल्यार लेगीत) बुडबुडे येतात हें खरें तर!

'देवाची सासाय आसा मरे! देवा पाव, बरी बायल दी!' परेशान देवाक सांगणें केलें.

'आरे पापया, हांगा तसलें मागुं नाका. तुका ती बुडबुडे काडटली', राजेंद्रान सगळ्यांक हांसोवन उडयले.

सगळो तळयेचो वाठार पळोवन आमी परतले. वाटेर कांय जाण्टे लोक दिसले. गाडी थांबयली.

'हांगा आनीक कितें पळोवपाचें आसा रे?'

'आनीक कांय ना. हांगा फकत शेतां आनी शेतकामती'.

'बरे तर... पूण तुजें टीशर्ट मात बेस्ट आं! खंय घेतलें?' दिनेशान जाण्टेल्याक विचारलें. टीशर्ट घामान बरबटून तांबडेगुंज जाल्लें.

जाण्टेलो सुखावलो.

'पुतान धाडलां बारीन सावन पांच वर्सां फाटीं'.

'आं, अशें!' म्हणत आमी गाडी मार्गाक लायली.



# नाटकांचें पिशें

तुमीं सगळ्यांनी नाटकां पळयल्यांच आसतलीं, न्हय?... नाटकां म्हळीं की लोक पिशे. गांवांनीं आनी खेडवळ वाठारांनी लोकांक नाटकांनी सवंग करपाच्यो व्हड उमेदी. गावांतले कांय जाण एक जावप, एक ल्हानशें नाटक वेंचून काडप, एक माची उबारप आनी रंगीत भरजरी शिवाजी-कृष्ण सारकीं आंगवस्त्रां न्हेसून कशायकशीं पाठ केल्लीं उतरां अर्थ समजनास्तना म्हणप म्हळ्यार जालें नाटक. असलीं नाटकां पळोवंक जी मजा येता ती वेगळीच!

अशेच एक खेड्यांत एका वर्सा रथसप्तमीच्या निमतान नाटक जालें. महाभारताचेर आदारिल्लें - 'द्रौपदीवस्त्रहरण'. हो महाभारतांतलो प्रसंग सगळेच जाणात. म्हणटकच हें नाटक माचयेर कशें जाता तें पळोवपाक लोकांनी गर्दी केली. हांवूय गेलों. नाटकांतलीं म्हत्वाची संवगां दुर्योधन, दुःशासन, कृष्ण, द्रौपदी, कर्ण, शकुनी, धर्म आनी हेर कौरव-पांडव. पुणून बायल-मनीस तयार ना जाल्यान द्रौपदीचेंय सवंग दादल्यानूच केलें. खेडवळ लोक ते! नाटकाच्यो उमेदी! बाबली द्रौपदी जाला- पूण लोकांक तें खबर ना. द्रौपदेक पळोवंक लोकांची गर्दी. दुःशासन द्रौपदेचें न्हेसण भर सभेंत कशें ओडटा आनी कृष्ण द्रौपदेक कसो पावता हें माचयेर पळोवंक लोक सामके खोश्शेन तयार. नाटक साडेधांक सुरू पुण थोडे आंबटशौकीन सातांकूच शेंदऱ्यो पातळावन आसरमांडयो घालून द्रौपदीवस्त्रहरण पळोवंक हजर.

अमृत बाबडो म्हजेभाशेन आळशी. ताका जागरणां कोणे सांगल्यांत? चार जाणांनी फोर्स केलो कृष्णाचें सवंग तूच कर म्हणून- हो जालो तयार. शंबर फावट तरीं सांगलां जावंक जाय ताका. (कितें सांगलें तें आमकां नाटक सोंपून कळ्ळें). द्रौपदी (बाबली) एकेच तरेच्यो चार गुलाबी साडयो न्हेसतली. साडयांचीं पोतां बांदिल्ल्यान एक साडी ओडून केन्ना सोपता तें कृष्णान पळोवपाचे

आनी समजूवपाचें. जश्यो तीन साडयो ओडून जाल्यो तसो कृष्णान बेगोबेग येवन दुःशासनाचो हात घट धरपाचो.

जालें...... अर्दे नाटक सोंपलें. द्युताचो खेळ माचयेर रंगलो, धर्म खेळ हारलो. 'एकेक करून सगल्या भावांक कौरवांचे सुवादीन केले. उरली एक द्रौपदी. निमाणेकडेन तिकायबी कौरवांकडेन वचचें पडलें. दुर्योधनान दुःशासनाक तडक सांगलें- द्रौपदीक म्हजेसरीं घेवन यो. भिसो (दुःशासन) तयार जालो. बाबली (द्रौपदी) थरथरलो.... घामेलो. बाबलीचें पोल्क (लांब हाताचें बांजयन) सामकें भिजून गेलें. लोक दोळ्यांत तेल घालून मजा पळोवंक लागले. थोडयांचे दोळे फकत द्रौपदेचे साडयेर!

'एक, दोन, तीन' कोणें तरी म्हळें. भिश्यान द्रौपदेचो पदर हातांत घेतलो आनी हळूच ओडलो. द्रौपदी (बाबली) बारीक बायलेच्या आवाजान कृष्णांक आपोवंक लागली?. पूण कृष्ण खंय आसा? तो माचयेफाटल्यान केऽन्नां आडवो पडील्लो. ताका द्रौपदेचो आकांत कसो आयकूंक येतलो?

माचयेर सगळी गडबडूच उबी!... भिसो बाबलीची साडी ओडीत आसा... बाबली कृष्णाक आपयत आसा... लोक कपलावेलो घाम पुशीत आसा... कृष्ण माचयेफाटलो उठचो आसा... बाबली थरथरत आसा... शेवटाक जावपाचें तें जालें.... तीन साडयो ओडून सोंपल्यो... चवथी ओडली... सोंपली.... साडी सुटली... आनी...

'आरे हो बाबली मरे,' लोकांनी एकदम म्हळें, 'ताची तांबडी काश्टी पळे मरे. बाबलीच तो!'

माचयेर सगळोच बोवाळ. लोकाचेंय हांसप बंद जायनाशिल्लें. बोवाळ आयकून अमृत (कृष्ण) जागो जालो. फाटीफुडे विचार करीनास्तना धांवत माचयेर आयलो. पळे जाल्यार बाबली काश्टी मारून उबो. कृष्णाक पळोवन बाबलीचो खड्डो तापलो. लोक थंड जाले. बाबली भाशण विसरून गेलो. ताणें मुठी आवळून

फडफडून म्हळें, 'आतां कित्याक आयलो म्हजी काश्टी सोडूंक?'



इतिहासीक नाटक नेटार आयिल्लें. दिलेरखानाचें सवंग केल्लें शिवल्यान शिवल्याचो नेट पळोवपाचो. जरीचे कपडे चडोवन शिवलो हात पांय आपटीत, दाडमणां हालयत माचयेर आयलो.... तलवार हालयत मोठ्यामोठ्यान शिवाजीचेर भाशण केलें. (कोण्णांक कांयच कळ्ळेना). लोकांनी हाका फुलोवपाक ताळयो मारल्यो. हाजो नेट आनीक वाडलो. हाजें भाशण चुकलें. ताका आबूज जावन कांयच सुचना जालें... शेवटाक हांगा थंय पळोवन ताणें किळच मारली- 'असा हा पाडपडिल्ला सुवाजी आहे तरी कोण?'

बापायची स्थिती पळोवन माचयेक तेंकून बशिल्लो ताजो पूत बेगोबेग वयर चडलो आनी ताच्या हाताक धरून सांगलें, 'बाबा, बाबा, तुका सुवाजी जाय? तो आतांच तू येवचे आदीं कितें तरीं उलोवन भितूर गेला'.



# वेळ घालोवंक ही उतरां

हांव बसीची वाट पळेत बसथांब्यार राविल्लो. कांय वेळान एक वळखीचोच मनीस येवन म्हजे सरीं उबो रावलो. वळखीचो मनीस- म्हणटकच कितें तरी म्हणुंकूच जाय न्हय?

हांव हांसलों, तोय हांसलो.

'कितें गर्मी न्हय?' हांवें शर्टाचो वयलो बटन काडीत म्हळें.

'हय!' ताणें हातांतल्या दिसाळ्यान वारें घेवपाक सुरवात केली.

'पावस पडटलो सो दिसता'.

'हय, काल रातीचो मात्सो शिरशिरलेलो'.

कांय खीण थंड!

पर्थून-

'धावेच्यो परिक्षा जावन खूब दीस जाले न्हय?' आतां ताणे म्हाका विचारलें.

'हय', हांवें म्हळें.

'कोण पयलो येता पळोवया', तांणें म्हळें.

'हय', हांवें मान हालयली खरी, पूण 'येना कोणूय? म्हाका चडूच पडलां,' म्हज्या मनांतले विचार. इतल्यांत बस आयली आनी आमी बसीच्या दोन दिकांनी आपटले.

अशे दरेकाचे बाबतीत घडटाच. दोग जाण वळखीचे मेळटात- चडूच लागींचो संबंद आसत तर संवाद अर्थपूर्ण आसतात. पुणून तितले पुरतीच वळख आसत तर बेठोच वेळ घालोवंक कितें तरी म्हणूंक जाय म्हूण विंगड विंगड उतरां आयकूंक मेळटात.

आंब्याच्या दिसांनी-

'आंबे किते म्हारग न्हय?'

'हय, घेतले उपरांत एक आंबो कुसत तर धा रूपया उदकांत'.

शिंयाच्या दिसांनी-'तुमचे थंय शीं चड न्हंय?' हें ओगीच विचारप आं. विचारतल्याक खबर लेगीत नासता खंय कितली थंडसाण आसा ती.

ज्याका विचारलां तोय ओगीच सांगता 'शीं? शी! भयंकर रे बाबा! चादरार चादरी ओडल्यो तरी कुडकुडो तस्सो'.

पावसाच्या दिसांनी-

पावस चड पडलो तर- 'शी! पावसान विटयलें मरे!'

पावस पडलोच ना तरींय तेंच- 'शी! पावसान विटयलें मरे!'

सर्वसाधारणपणान जीं उतरां वेळ मारूंक मनीस उपेग करता तीं खाशेलीं उतरां म्हळ्यार-

'बरो मरे?' (आतां तो बरो आसा म्हुण्णूच मेळ्ळा न्हय? पूण ओगीच आपलें विचारप!)

जाण्टो मेळ्ळ्यार 'कशे आसात?' हो प्रस्न थारलेलो आसा. जापूय थारलेलीच, वाजेवन आळस काडून दिल्ली- 'आ-सा, आमचे शें सरले, पांच उरले'.

'खंय चल्लो?' (हाची जाप कोणाक अपेक्षित नासता आनी कोण दीय ना)

'खूब तेपान मरे!' (एकदां म्हज्या शेजाऱ्यान जेन्ना हें म्हळें तेन्ना हांव कितलो तेंप खंय ना जाल्लों ती म्हाकाच याद जायना जालीं)

बाजारांत कोणूय मेळत तर-

'बाजार करूंक आयला?' 'कितें घेतलें?'

आतां कितें घेतलें तें कोणाक पडिल्लें ना, ओगीच विचारूंक जाय म्हणून विचारप.

विचार करीत तर अशें दिसून येतलें की दरेका खिणाकणकणी मनशाचीं वेळ घालोवंक उलोवपाची खाशेलीं उतरां आसता. त्या उतरांक खास अशें म्हत्व कांयच ना. पूण फकत कितें तरीं उलोवंक जाय म्हूण विचारप.

'बसीक रावता?', 'घरा चल्लो?', 'खंय वता?', 'कितें खालें?' 'रांदलें?', 'च्या पिलो?', हे सगळे प्रस्न हेच माळेंतले. तुमी दरेक दिसा हींच उतरां कोणाक तरी म्हणटाच आसूंक जाय, ना तर तुमचेकडेन संवाद घालतना दुसरे कोणूय तुमकां विचारता आसूंक जाय-बरोबर न्हय?'

म्हत्व नाशिल्लीं हीं उतरां, पुणून कितलीं उपेगी, वेळ घालोवंक!



# आमी भारतवासी

आमी सेमीनार कुडींत च्या मारपाक बशिल्ले. इतल्यान डॉ. पै भितर सरले. आमीं तांचें स्वागत करून 'च्या'चें कोप मुखार दवरलें. उलयतां उलयतां खबरी वाडत गेल्यो. विशय जपानाचेर कसो पावलो तें म्हाका मात लेगीत याद जायना.

'जपान कितें सुदारलां न्हय?' हांवें म्हळें, 'जगाचे फाटीर जपान हो येदोसो थिपको पूण आयज कितलें फुडें पावलां. फाटले ऑलिंपिकान तर तीन भांगरा, सात रूप्या आनी धा कांश्या पदकां मेळोवन जपान बरे मुखावेले सुवातेर आयलां'.

'हय', डॉ. कामतीन हयकार दिलो, 'पूण जपानान त्रास खूब भोगले. अमेरिकेन १९४५ वर्सा हिरोशिमा आनी नागासाकीचेर बॉंब उडयत मेरेन तांकां खूब कश्टांक तोंड दिवचे पडलें.'

'ही अमेरिका स्वताक चड बळवंत समजता. गांवाचे-गांव नश्ट करप म्हळ्यार शुध्द मूर्खपण म्हण्टां हांव,' डॉ. पैन नेटान सांगलें.

'आयकात अमेरिकेन बॉंब कित्याक उडयले ताका कारण आसा. हांवें एक पुस्तक वाचलां. तातूंत सगळी खबर विस्तारून सांगल्या. संवसारीक झूज सोंपपाकडेन पाविल्लें. सगळे देश शरण आयले पूण जपान कसोच येना जालो. तरेतरेच्या मार्गाचो आदार घेवन जपानी सैनीक झूज चालूच दवरूंक लागले. जर हें झूज अशेंच चालूच उरिल्लें तर आनीक कितलेशेच हजार लोक मरतले आशिल्ले. म्हूण अमेरिकेन जपानाक मुदत दिली. जेन्नां ती मुदत सोंपली तेन्ना अमेरिकेकडे दुसरो उपाय ना जावन ताणी हिरोशिमाचेर बॉंब उडयलो. तरीय जपान शरण आयलेना. तीन दीस वाट पळोवन अमेरिकेन नागासाकीचेर दुसरो बॉंब उडयलो. मागीर जपानच्या राजान दूरदर्शनावेल्यान सैनिकांक आदेश दिलो,

जपान शरण येता आनी झूज बंद करचें म्हूण,' डॉ. कामतीन सांगलें.

'आमचो भारत आशिल्लो तर शरण यो म्हणपाची गरजूच नासपाची. पयलेच शरण येवपाचे', हांवे म्हळें. सगळे हांसले. पूण डॉ. पैक तें आवडलेना.

'कितें उलयता रे तूं? आमी भारतवासी सामके चिवट, झुंजार सभावाचे मरे. आमी कितेंय हातांत घेतलें तर तें केले बगर केन्नांच रावचे नात. आमच्या आंगांत चिकाटी आसा. आवड आसा, फुडारपण आसा. आमच्या फुडाऱ्यांनी बुदवंत, हुशार, धाडशी, तेजवंत म्हूण नावलौकीक मेळयला', तांणी परवड सुरू केली.

'ना सर, हे गूण आतां नात. पयलीं भारतवासींत हे गूण आसले. गांधी, नेहरू, पटेल, शास्त्री सारखेल्यांक, भगतसिंग, सावरकर, टिळक सारखेल्यांक. आतां देशाचें पडलां कोणांक? आतां सगळे आपलेंच पयलीं पळेतात', हांवें म्हजो मुद्दो पर्थून मांडलो.

'आतां वचत थंय चोरयो, फटींगपणा, दादागिरी चलल्या. आतांय मुखेलपणा आसात, पूण देशाची उदरगत जावची म्हूण न्हय, देशाचे खुस्तार स्वताची उदरगत जावची म्हूण. दरेक फुडारी दुसऱ्या फुडाऱ्याआड झुजां करता', डॉ. नायकान म्हजें म्हणणें मान्य केलें.

'हय न्हय? खरें म्हणजे आमगेल्या नेत्यांक खेळामळार धाडपाचे मुठी-झूज खेळपाक', हांवें म्हळें.

'पुणून डॉ. पै म्हणटात तें फट न्हय आं. हिन्दुस्थानाचे नागरीक सामके चिवट म्हूण! बरोबर तें. चोरयो करूंक, बंडखोरी करूंकूय चिवटूच ते. राजकारण खेळूंकय झुंजार. कदेल मेळोवपाक तर अती झुंजार', डॉ. फेर्रेरान मदींच शेरो मारलो.

'ना पूण आतांय पयलींसारके देशाचे प्रगतीक लागून कामांत आपलो जीव ओतपी भारतीय ना कित्याक? आसात, खूब आसात! पूण ते भारतवासी

भारतांत नात. ते भायल्या देशानी गेल्यात कामाक. त्या देशाक आदार दिंवक. तांकां 'नॉन रेझिडेंट इंडियन्स', म्हणटात. तांचे चिवट झुंजार वृत्तीक लागून तांणी भायल्या देशानी नांव मेळयलां, डॉ. कामतीन सांगलें.

'हय बरोबर, पुणून हेच भायर रावपी बिगर निवासी भारतवासी मायदेशांत येनाफुडें आमचे भाशेन जातात, देशाच्या खुस्तार फुकट बसून खावपी', डॉ. नायकान सगळ्यांक हांसोवन उडयलीं.

'तूं बसून खावपी म्हण्टा. बसून खावपी खंयचे? हांगा न्हिदून खावपी आसात,' डॉ. फेर्रेरान म्हळें.

तेन्नाच बरी न्हीद काडून डॉ. कंटक दोनाक येवपाच्या जाग्यार तीनाक च्याचे वेळार भितर सरलो.



**आमचीं कांय प्रकाशनां**

- **फोरेंन जांवय** (नाटक)
  - एन . शिवदास
- **कावळें** (एकांकी)
  - रामदास नायक
- **नचिकेता** (कविता)
  - डॉ . दयानंद राव

'दोतोरांचो प्रवास' हें बरप म्हाका खूप आवडलें. तें मर्मवेधी दिसलें. लेखनाची शैली आनी भास आवडली. अशेंच बरोवचें.'

श्री माधव बोरकार (१४-५-९२)

तुजें 'घुस्पागोंदळ' हें पारजत खूप आवडलें. असले लेख पारजतांत येवंक जाय. तूं नेमान असल्या पांवड्याचे लेख हे सदरान बरयतलो अशी आस्त धरतां.

श्री. राजू नायक,
संपादक 'सुनापरान्त' (१-८-९२)